# मोतियां

चा.प्रा.चीं पदां

संपादक

श्री फ्रेडकुमार कुच्चिकाडु

लिप्यांतर

गोकुलदास प्रभु

प्रकाशक

मांड सोभाण प्रकाशन

---

हांत्ल्या 4-5 पदांक सोड्न उरल्ल्या सर्व पदांक श्री एरिक ओजेरियो हाणे ताळो आनी संगीत बसयलां

मोतियां

चाफ्राचा पदांचो संग्रह

1993



संपादक : श्री फ्रेडकुमार कुश्किाडु

लिप्यांतर : गोकुलदास प्रभु

उज्वाडाव्पी : माड सोभाण प्रकाशन
कोंकणी संस्कृते केंद्र
'आस्रो' सेमिनरी विव
मंगळूर - 575002 द.क.



छापपी : दिगंत मुद्रण लिमिटेड
येय्याडि, मेंगळोर

कला : जगत आर्टस
बेंदूरवेल, मंगळूर - 2

मोल : रू. 20-00

# मरणाचेर जयत जोडल्लीं कांतारां

परत्यान तिचं उतरां उचारिजे पडटात: तो जबरदस्त उजवाडाच्या किरणाळ सुर्याबरी आनी हांव मंद प्रकासाच्या मेणाळ वातीबरी; ताचेविशीं हांव कितें म्हण बरंव ? तो म्हज्या शाण्या बापायबरी आनी हांव ताच्या नेणत्या पुताबरी; ताचेविशीं हांव कितें म्हण सांगू ? तरय थोडेपावटीं पोसोभर मिटान दर्याविशीं चिंतिजे पडटा आनी थेंबे थेंबे पिटान रुचिच्या पानपोळ्यांविशीं तकली खिरयजे पडटा किरणां कातींत रोंबल्याशिवाय सुर्याची धाव सांगोंक कळना आनी मीट पेजेंत चाकल्याशिवाय दर्याचें मोल मेजूंक मेळना देकून दि. चा.फ्रा.च्या 'मोतियां' पुस्तकाक हीं प्रस्तावनाचीं उतरां बरयतां:

मंगळुरी कांकणी कविताशेतांत ह्चा शेकडचाचे सुरवेर बोव थोडे अनामीक कवी काजवोन माजवल्या उपरांत थिरासाणेचो कवी उबजाल्लो म्हळ्यार लुवीस मस्करेञ. मस्करेञा- सांगाता आनी उपरांत पन्नासावे इसवेपऱ्यांत मिणकाल्ले कवी मस्करेञाच्या पायां यळाय पावलेनांत. कोंकणीलोकाक कवितेचें गंधवारें जायनातलें म्हणटाना कोणेंय कित्यापासून खंयच्या गुंद्याचेर कविता रचची ? ह्चा कित्याचीच परवा करीनासतां चा.फ्रा. दे कोस्तान, मस्करेञान नांग्रायल्ल्या शेतांत बेळें क्राडूंक सुरू केलें कोंकणी कवितेक मरयाद हाडचेखातीर सपणांभितरल्या सपणांनी 'सपणांतुलें राज' बांदून तो पेचाडलो ताचीच म्हळ्ळी वेगळी वाट धरली. कोणेंय ताचो पाटलाव करूकना तरय, पाटीं ताणे पळेलेंना पाटीं पळेंवकना जाल्लयान ताका आपुण एकसुरो म्हण कळ्ळेंचना. केदोळपऱ्यांत ळसांवयर वरसांच्य हे कविताजिण्येंत आकरेच्या पांवडयार ताच्यो कविता पगडल्या' 'रंग-तरंग' पंगडांनी पदांखतीर आपणायतच 'मांड सोभाण' पंगडान ताच्या कवितांक नवीच घुंवडी दिली. पदांया कोवळ्यांनी, दूरदर्शनाच्या कार्यांनी चा.फ्रा, लोकाक लागीं जालो. मौंड सोभाणावखीं ताच्यो विता लोकाच्या तोडांनी घोळूंक साध्य जाल्यो मांड सोभाणान कितें चा.फ्रा.क दिलें आनी चा.फ्रा.न कितें मांड सोभाणाक दिलें- ते हांगा बखन पुरो पडचेंय ना. गोंयचीं

भुरगीं ताका शाळेंत शिकतालीं तरय, जाग प्रकाशनान ताचें 'सोंश्याचे कान' पुस्तक परगटतच घरांनींय ताका वाचचो अवकास लाबलो. त्या पुस्तकाक केंद्र साहित्य अकादेमिची ऊंच प्रशस्ती अपणायतच ताचें पुस्तक प्रगती प्रकाशनान कानडी लिपिंतय परगटलें. पाटापाट मंगळुरी कोंकणी परजेन चा.फ्रा.क 'कोंकणी साहित्य कुलरत्न' म्हळ्ळें बिरुदय दिलें

म्हजेलागीं तशेंच 'जागे कवी' पंगडाद्वारीं मंगळुरी कोंकणिंतल्या जायत्या कवींलागीं चा.फ्रा.न संबंध जोडल्लो. कोंकणी कविताशेतांत आयलेवार जी बदलावण घडल्या, ताका चा.फ्रा.च्यो कविता कारण न्हय म्हण सांगोंक कोणय धयर घेंवचोना ताचे सावळेंत आमचे जायते तरनाटे कवी वाडोन आयल्यात आनी आतां ताच्या मरणांत तांणी तांच्योच वेगळ्यो तरय कोंकणीक ऊंच उबारच्यो वाटो धरूक आसत. ताचें मरण आमच्या कवींक जियेंवचें धयर, कवी जावन उंचायेक चडचें हट फावो करच्यांत नवल ना.

'मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूध' म्हणचेबरी चा.फ्रा. मात्येक सारें जाल्लोच- कोंकणिचो भीष्म, कोंकणी मळबावयलें शिमटीनेकेत्र - जालो. पुण म्हाका आनी चडीत करून 'मांड-सोभाण' पंगडाच्या एरीक ओझेरियोक चा.फ्रा.चो जल्म, ताची जिणी आनी ताचें मरण आमच्या जीविताचो अर्थ सोदूंक सवाल उडवन गेलां

बरवपी जावन चा.फ्रा.क समाजेचो हुसको आसल्लो. ताच्यो पत्रां बाळवलींनांत बाळवलींनांत म्हणच्याकय बदलोंक तयार नातल्लया आमचे समाजेन तीं मांदलींनांत ताच्या नाटकांची गतय तशीच जाली 'दोरो', 'तरनें तरनें मोरनें', तसलीं नाटकां तीस वरसां आदीं लोकान इनकार करून आयलेवार इनामांचो शिंवारे वोतून आपणायलीं . म्हणटच चा.फ्रा.च्या दोळ्यांमुकार तीस वरसां उपरांतली समाज आसल्ली. ताणे फुडाराखतीर बरयलें ताच्या आनी आमचे समाजेच्या चिंतपाच्या वेगाचो फरक कितलो जाणांत ? एक न्हय, दोन न्हय .......... तीस वरसां ।

चा.फ्रा. एक उत्तीम भाषणगार. ताच्या उतरांची धोमोस आयकोवप्याच्यां काळजाक रोंबताली आनी कानांक नाटवाताली. ताच्या उतरांनी मनां पिसवंवचो, काळजां धलंवचो जादू आसल्लो. हो जादू, ताच्या मरणान आमचेथावन झोंपय़ मारन वेला तरय ताच्या नाटकां आनी कवितेवरवीं शेकडयांच्या शेकडयांक, कोंकणिची पिळगी बाळवतावरेग शास्वीत उरतलो

पत्रकार जावन चा.फ्रा. सांगाता उण्यारउणे सात वरतां तरय खांदाक खांद लावन म्हळ्ळेबरी हावें तिंतेर झरयलां. हरयेका अंक्यापाटल्यान ताणे करची ती तयाराय, विषय मांडून हाडची रीत, लेखन तयार करच्यांत कसलेच कश्ट लेकीनासतां करचो वावर कोंकणी पत्रगारिकेंत हावें आदीं जांव, आतां जांव देकोंकना. दुडवाचे अडचणेक आनी जायत्या हेर कारणांक ताचीं पत्रां कुरवालों तरय, काडल्लो हरयेक अंको कोंकणिचे चरित्रेंत शास्वीत उरतलो

पुण साहिती चा.फ्रा.क हावें चडीत पसंद केल्लो म्हळ्यार कवी जावन! हरयेक कविता नव्या चिंतपाचे बुन्यादिचेर तो रचतालो त्यो वाचतल्याक एकेकपावटीं एकेक इमाजी दोळ्यांमुकार फुड जातात. सांजेच्या सुर्यान मोळबाच्या पोल्यार पसरांवच्या रंगाबरी ताच्यो कविता रंगाळ. आपुट दुधांत लोणी उपेल्लेबरी ताचे कवितेंनी संगीत उपेता. ताचे कवितेंचो स्वाध - वाचून जिरयतल्यांक मात कळीत. ताचे कवितेंनी म्हाका हरयेकपावटीं नवोच अनभोग दिला आनी त्यादेकून ताच्यो कविता परिक्षेक भुरग्यान लिसांव शिकल्लेबरी हांव शिकलां

चा.फ्रा.न पदां तीन वेवेगळ्या पांवडचांचेर घडल्लीं पयलें नाटकांखातीर ताणे हो वावर केलो तर, उपरांत थोडया संगीत काऱ्यावळींखातीर ताणे पदां घडलीं. आकरेक ताच्यो कविताच मांड सोभाण पंगडान ताळे बसवन गायलीं. पुण चा.फ्रा.च्या सरवय पदांक कवितेचीच मरयाद आसा. ताळे लावन तीं गायताना तांकां आमी पदां म्हणटांव तरय तांचे बांदावळिचे दिश्टीन, अलंकारिक दिश्टीन, तांतू उब्यो जांवच्या इमाजिंचे दिश्टीन, चिंतपाचे गुंडाये दिश्टीन चा.फ्रा.चीं पदां कविताच ! उपरांत तांतलो लय, ताळ आनी उपेंवच्या संगीतावरवीं

तीं आपापींच पदां जावन बदल्ल्यांत चा.फ्रा.च्या चडुणे सरवय कवितांक कांतारां जावन बदलुंची सकत आसा आनी ताचीं सरवय कांतारां आपलेस्तकीं कविता जावन उरतात

चा.फ्रा.च्या पदांनी मोगाचें मेल, निराशेचें तेल सराग उपेता. हो मोग उतळ न्हय; गुंडायेंत पाळां रोंबयल्लो. देकून मेंदवांत मोगाच्या चिंतनांचो रोवो सदांय किरलता खंय एकपावटीं तो पोल्यावेलीं भिरडां फोडूंक उड्ढाता आनी खंय एकपावटीं मोग करूंक वचून चेडवाच्या केसांची बोबपिन आनी बाजवेची आलपिन गालांनी रोंबवन रगताचो व्हाळ व्हाळयता मोग तितल्यार निंवना; आलपिनेचो कांटो काळीज फापसुंदी म्हण तो बोबो घालता

चा.फ्रा.च्या कांतारांनी जानपदाचो झरो तशें कोंकणी रुकावेलो घरो भरोन वोमताता कोंकणी भोशेचें रुदान, आमची भास, कोंकणी काजार - तचो कोंकणिचेर आसचो हुसको दाकयताना. आडकुलोगो बुडकुलो, सात सात चोवदा सन्नां, फारार फार, काल सांजेच्या वादाळार, कलवंताच्या कमरावेरी, बाणावलेच्या रानांतू इत्यादी पदां, चा.फ्रा. कोंकणीमात्येच्या चमत्कारीक उतरांचो सुतारी म्हळ्ळे संसाराक कळयतात

तत्वगिन्यान पाचारचीं जायतीं कांतारांय ह्या पुस्तकांत आसात एकेक पद एकापरस उंचलें - भुंयमंडळांतल्या एकेका घरांत व्हरन पावंवचे तसलें. हो अनभोग तुमींच 'मोतियां' पुस्तक घेवन, घेतल्याउपरांत वाचून, वाचल्याउपरांत गावन, गायल्याउपरांत हेरांक सांगोन भोगूंकजाय.

हीं कांतारां - चा.फ्रा.मरोंकना, जिवंत आसा म्हण पाचारची कांतारां हीं कांतारां चा.फ्रा.च्या मरणाचेर जयत जोडल्लीं कांतारां तीं आतां बुकारुपीं परगटच्या 'मांड-सोभाणाक' शाबास्की दिताना, तीं वाचूंक सुरवात करच्या तुकाय चा.फ्रा.च्या पदांच्या संसाराक बरो येवकार मागतां

'मोतियां' पुस्तकाद्वारीं चा.फ्रां तुमच्या सरवांच्या घरांनी सदां रावों

14-3-1993

मेल्वीन रोड्रीगस
रियाद

# चा.फ्रा.दे कोस्ता



★ 10-10-1931 मंगळुरच्या मार्नेमिंकाटयार जल्म. चार्लस फ्रांसिस म्हण वोलायल्लें

★ 1934 दो। कास्मिर मोतिचे चिकित्सेन एका घोर अस्वस्थातंलो पाशार. उग्डास दवर्न पयणाशीतं दो। मोतिच्या मरणावेळीं ताच्या जिविताचेर एक लांब लेखन बरयल्लें।

★ 1946 पथलो नाटक, "निष्ठुर बोतल" शेजाऱ्याचा सोप्यार खेळयल्लो. पडदो जावन शेजाश्निचें कापड हाडल्लें
प्राथमिक शिकप - जेप्पु सांत जुवांव हायर एलिमेंटरि इस्कोलांत. 1948 मिलार हायस्कूलांत एस.एस.एल.सिं पास।

★ 1-5-1948 कुटमासंगीं बोंबयांत वस्ति. भारतीय एलिसांव खत्यांत पयलो वावर. अडेज वर्सांनी बि.इ.एस.टींत काम. मागिर धा वरसांनी स्वंत छाप्वानो उघडलो.

★ 1951 पयणारितं बरप. आठ वरसांनी त्या पत्राचो संपादक जालो. त्या वेळार 'वोलाची मर्याद' पयली कथा आनी 'तुकाय आसा वांटो' पयली कविता उज्वाडाक.

★ 1953 आकाश्वाणिचेर सराग कवितांची वित्राव्णी पयली कविता ‘सण्णांतुलें राज’ मीर्ग, उदेंतिचें नेकेत्र, पर्जेचो आवाज आनी साद पत्रांचेर उज्वाडली. आकाशवाणिच्या श्री विष्णु नायकान गोंयकारांक ताच्यो कविता वाचुन दाकयल्यो. ‘कोंब्ल्या बाबानो साद रे घाला’ गीत खूब गाज्लें

★ 1955 “आंक्वार मेस्त्री” बोंबयच्या इंग्लेज पत्रांनी विमरस्याक आयलो. एदोळ पऱ्यांत ताचे 18 प्रयोग जाले.

★ 1956 जागमागाचो संपादक.

★ 1960 पयली कादंबरी ‘सयंबाचें पातक’ पयणारिच्या पानानी सांकळ कथा जाली. पयणारित दोतीविरोध संस्थो स्थापन, दोत नातल्ल्या 17 काजरानी सुधार्सुंचो पंगड. दोती विरोध. नाटक ‘सोभित संसार’ मराठी दयनीक ‘माराठांत’ नांवाडिदक नाटकिस्त श्री.पि.के अत्रे थाव्न विमर्सो जोडता

★ 1962 गोंयच्या पाठपुस्तकानी कविता आवरतात.

★ 1968 ‘भांगार मनिस’ नाटकाचो पयलो प्रयोगं प्रेक्षक नास्तां रद्ध जाता. पुण मागिर ताचे लगबग 25 प्रयोग जातात. ताचे 7 नाटक कलासंपताचीं इनामा जोडतात । क्रमेण 13 नाटक, 7 मोटवे नाटकुळे, पांच नवल कथा, निन्शां वयर कविता आनी लेक नातल्लीं लेखना, प्रबंद, बरवन काडता

★ 1969 मंगळुरांत वस्ती. ‘जोर्जी बुतेल’ आनी ‘तर्नें तर्नें मोर्नें’ नाटक मांचियेर येतात.

★ 1974 काजर, कोंकणी भाषे मंडळाचो स्थापक अध्यक्ष.

★ 1975 पावूशंत कोर्गार क्रिस्तांवांचें शोषण “उदेव” पत्रांत उग्ताडाक हाडता.

★ 1976 ‘जिवित’ पत्र उगडता

★ 1986 गोंयां सांक्ळेंत ‘अखिल भारत कोंकणी लेखक सम्मेळ’ चो अध्यक्ष.

★ मंग्ळुरच्या 'परडेला', 'रंग तरंग', 'मांड सोभाण' संगीत जमयांक 150 वयर गितां रच्ता ।

★ 1988 गोंयांत च्यार पुस्तकां नागरित उज्वाडटात

★ 1989 'सोंश्याचे कान' कविता जम्याक 'केंद्रीय साहित्य अकादमी प्रशस्ति'. गोंयच्या इंग्लेज, कोंकणी आनी मराठी पत्रांनी लांब धीग उल्लेख आनी लेखना. केरळच्या मलयाळी पत्रांनी कथा छाप्तात.

★ 1990 मंगळुरची कोंकणी पर्जा ''कोंकणी साहित्य कुलरत्न'' मान दिवुन सन्मान करतात.

'मांड सोभाण' हाचो गव्रवाध्यक्ष. एदोळ्चा सरव 'मांड सोभाण' संगीत कान्यावळिंनि 'सुतार' जाव्न लोकामतिकं दादोस केलां

गोंयांथाव्न कोंक्णी अकादमिची प्रशस्ति घेव्न पाटीं गावांक पावल्ल्या चाफ्राबाबान दोनंच दिसानी म्हण्जे 1992 दसेंब्र 3वेर आप्लें जिप्ये पयण संपयलें. चाफ्रा अमर जालो.

अमर चाफ्राबाबच्या व्यक्तित्वाविशीं सांग्चें तर धर्म, राजकीय आनी गोड्डु संप्रदाय, फितिस्पणां आनी पाडारी आतर्वणांचेर आप्ल्या लेखना, कवना, पदां, नाटक आनी भाषणानीं दयादाक्षेणेविण, भियाविण रोसाळ आनी गंभीर उतरानीं शीदा ठीकाप्रहार करुत आसल्लो विशिष्ट व्यक्तित्वाचो धीमंत.

एकच संग्तिचेर पदां आनी कवितेक सहजल्लीं उतरां वेवेग्ळ्या रितिर [illegible]ल्लो आप्रूप शिल्पी तो ।

विडंबन, विनोद, ठिका, शिण आनी मायामोग उचारन सवांला उडवन, जाप विचारुन देवालागीं शीदा संवाद चलयल्लो मनिस अख्ख्या साहितिक शेतांत चाफ्राबाब सोडल्यार दुस्रो जळ्काना ।

# कोंकणी संस्कृते केंद्र

'मांड सोभाण' - अमर चाफ्राबाबाचें सपण. तें उटाउटीं जार्येक हाडल्लें साधन एरिक ओजेरबाबाचें. मांड सोभाण इत्ल्या ऊंचाएक पावजे जाल्यार ह्या संस्थयाचा कार्यकारी समिती सांदयांचो मोटो वाव्र आनी कोंकणी अभिमानींचो सहकार प्रमुख कारण.

1986 व्या नवेंब्राचे 30 वेर स्थापित जावन आज 75 वें यशस्वी मांड सोभाण कार्यें प्रदर्शित करता. ह्या मोटव्या आव्देंत आमी आसा केल्ल्या साहसिक साधनाद्वारि आम्कां समाजेंत उंचायेचो पाट लाब्ला.

आम्चो उद्देश कोंकणी संगीताची अस्मताई सोदचो, ताका नवें रूप दिंव्चो मात न्हय, कोंक्णी लोकवेद, देशीय विशिष्टता आनी स्वरूप मिस्ळांव्चें, विविद प्रांतांचा, भास्फुटांचा, कुळियेंचा कोंक्णी कलेक, कलाकारांक आनी कोंक्णीमोगींक एक्ताराचे गांटिन गांटांव्चों जाव्नासा. त्या दिशेन आमी सबार प्रयोग, साधना, कार्यावळिंचीं प्रदर्शना दीत्त आय्ल्यांव, संगीं जबरदस्त यश्य जोडल्या।

देशभर शिंपडलेल्या कोंकणी कविंक एक्टाव्न मांड सोभाणान तांचा उतरांक ताळे बसव्न एदोळ्चा 74 प्रदर्शनानी गाव्न दाकयलां

कोंक्णी कलेच्या, साहित्याच्या वाळ्यांत आमी केल्ले सबार नवे प्रयोग तशेंच कोंक्णी साहित्याचे थरावळ प्रकार जाव्नास्चे - पदां, नाच, लोकवेद (जानपद) कला, रंदप - जेवण, रिती-रिवाजी आनी संप्रदाय इत्यादिंचेर आमी हाडल्ल्या प्रदर्शनानी खंडित बळाधीक प्रभाव पडला.

मांड सोभाण, जेवण सोभाण, गुमट सोभाण, माटव-सोभाण, नाच सोभाण, संव्साशचें पयलें बायला प्रदर्शन तशेचं संव्साराचों व्हड बायला प्रदर्शन, लग्भग 500 कलाकारांक एका मांचियेर हाडुन मांडो - नाच आनी पदांचें वय्भवीक प्रदर्शनाचें - मांडो फेस्त.

'परब' - पयलें अखिल भारतीय कोंकणी संस्कृते फेस्त - अक्तूबर 17 चाव्न 25-1992, आम्चा घनेस्त आनी गिरेस्त कोंकणी संस्कृतेच्या हर प्रकारांच्या थरावळ कुसांविशीं जागृत करुन प्रदर्शित केल्लें आनी सग्ळ्या संसाराक कोंक्णी भाषेची गिरेस्तकाय आनी घन उंचायेक पावयल्लें एक म्हासाधन.

'अंतराष्ट्रीय बायला' - कोंक्णी, सिन्हाली, केन्या आनी इतर बायला संगीत - नाच हांचें प्रदर्शन (कोंक्णेंत गुज्राथी दांडिया आनी पंजाबी बांग्रा नाचाचें मेळप).

'दबजो आर्केस्ट्रा' - काजरांक एक मात कोंक्णी संगीत पंगड.

**मुक्लिं एव्जणां:**

कोंक्णी संस्कृते केंद्र एदोळच्च स्थापित जालां. त्या मधें मांड सोभाणाचो गव्वाध्यक्ष चाफ्रबाबान ह्या संसाराचें पयण आकेर केलां. कोंक्णेंत चाफ्राबाबान हात भोंव्डायनास्तां सोडल्लें कितेंच ना म्हण्येत. ताची सबार कृत्यां एदोळ पर्गट जायनास्तां बाकी उरल्यांत. आम्चा केंद्रान हें काम करचाक कमर बांदलां. आनी ह्या दिशेन पयलें हंत जाव्न ताच्या पदाचों संग्रह 'मोतियां' आज आमी उज्वाडायतांव, मुक्ल्या हंतानी ताचीं कविता, नाटकां, लेखना इत्यादी पर्गट कश्चो वाव्रय करुंक आसा.

चाफ्राबाबाच्या नांवार नाटक तर्बेती केंद्र आसा करुन युवजणांक नाटकरंगाच्या हर प्राकारानीं ख्यात नाटकिस्तां थाव्न तर्बेती दिवव्न चाफ्राबाबाचे नाटक हव्यासी थरान हर आयतारानी (खायं आयताराचो रंगमंच घडुन) खेळेंन्चे. पितुळचा बेंडाची मशेन वेची एक कला. त्या कलेक आनी ताचा कलाकारांक भद्रती दिव्यें खातीर एका निधियें स्थापन, मात न्हय कोंक्णी कला आनी संस्कृतिंत्ले जेय प्राकार आसात तांचीं सोध्ना करून, अध्ययन आनी प्रयोग करून कोंक्णी भाषेक संसाराचा कोन्शाकोन्शाक पावंन्चा उद्देशान हो संस्थो

स्थापित जाला। 'परब' हांतूं केल्लें काम मुकार्सुन वच्चों उद्देशान कोच्ची थाव्न रत्नगिरी पऱ्यांत 'कोंकण भंव्डी' आसा करून कोंक्णी लोकांचों एक्तार कित्ल्या गर्जेचो म्हण कळंव्चाक एक जाग्रती. कोंक्णी अभिमानिंचो निरंतर सहकार आमी आंव्डेतांव

मांड सोभाणा तर्फेन
फ्रेड कुमार कुच्चिकाडु
उपाध्यक्ष

# 1. उतरां

उतरां क्रोधान जळवंयेतात
उतरां मायपासान लोळंवंयेतात

उतरां शिणान कांपुयेतात
उतरां भियान धांपूयेतात

उतरां कोडसाणेन चिरडुंयेतात
उतरां अलक्षेन उडंवयेतात

उतरां रागान बडंवयेतात
उतरां मोगान मात गांवुयेतात



# 4. वोरेसांव



आमचें मागणे वोरेसांव
व्हरगे घांटी गांवान गांव
ढांव ढांव ढांव ढांव

चिकोळेची पाकळी वोडून
चंद्रेमाचो कुडको काडून
तांब्डया रगता धार साडून

काळजांत तुज्या तरी मारून लांव
ढांव ढांव ढांव ढांव

चारांय कुशीं चुडी दिसों
मस्तकांत मांकोड नाचों
दीस तुजो कसोय वचों

रात आयची खुशल भरीत जांव
ढांव ढांव ढांव ढांव



## 3. मागणे

धनिया देवा पाव
बगलेन तरी राव
सोसूंक न्हजो सोसुंक न्हजो
जिविताची दाव

मागोन मागोन तूं
नागोवन गेलाय मू
हांवेंय मागलें तर
दिशी कितें तूं ?

पेंकटांत म्हज्या मूंज
चिंतुंक येना ऊंच
कुडको एक दिनांय जाल्यार
दोनय दवर तूंच



## 5. नमो सर्वेश्वरा

नमो नमो नमो सर्वेश्वरा
आमच्या संसाराच्या साल्वादोरा
नमो नमो नमो ............

नेत्रावती जुवारी लागीं सरा
सत्प कोंकणांतु जिवाळ भरा
मेल्लेल्या पित्रानो दया करा
जियेंवच्या मित्रानो वेंगोवन धरा
नमो नमो नमो ............

मागतांव आज आमी आमच्या दारा
तोमा बेताळाची पारंपरा
नमो बापु स्वामी सांकतुवरा
नमो नमो नमो सर्वेश्वरा
नमो नमो नमो ..........



# 6. बाणावलेच्या रानांतु

बाणावलेच्या रानांतु
बोबाव जणा मनांतु

रिगले कोले, रिगले कोले
कुंवडापिलांक न्हावुन गेले
आकांताचे उटले उले

बाणावलेच्या रानांतु
बोबाव जणा मनांतु



न्हयगा कोले, न्हयगा कोले
आयल्यां घेवून उतर उले
मंगळुरांतले चलयो चले



बाणावलेच्या रानांतु
पडल्यां तुमच्या मोगांतु

मोगान दोळे वोले वोले
गोपांत तुमच्या मेण जाले
रूपणे तुमचें दवरतले

जिवित भरून मनांतु
बाणावलेच्या रानांतु,

बाणावलेच्या रानांतु
एका एका खिणांतु
वोमते आनी उदारे
पडल्यां तुमच्या मोगांतु

## 7. तान भाग्लिना

ओ .......तुज्या गालावयलीं
भिरंडां फोडुंक उड्डालों
तुज्या गालांची ताब्साण कशी
हाताक म्हज्या लाग्लिना

मोग म्हज्या काळ्जांत आसा
तोंडार उदेना
मोग म्हज्या मनांत आसा
उतरांत सादना

भिरंडां तुज्या पोल्यांवेलीं
फोडूंक मोगा उड्डाताना
तांबसाण तांची सांग कशी
हाताक म्हज्या लाग्लिना

सागोर मोगा मायपासाचो
तूं म्हण चिंतून उपेताना
मेक्ळ्या मोगाची साय शेळेर
कुडी अत्म्यान भोग्लिना

दऱ्या पोटांत जाळां गालीं
तारल्या खोरूय पागलीना
तशी म्हजी तान गागेली
मोरा पऱ्यांती भाग्लिना



## 8. कोडयाळच्यीं बस्सां

तरनें रगत उटोंक जाय
मोणकीं तोंडां सुटोंक जाय
कोडयाळांतल्या बस्सांची ती लायलूट रावोंक जाय

कोंपटिशत कोंपटिशन
मुसमुसून ती येत गाडी
हांडीर आपल्या भुरग्याक घेवून आवय एकली मेट काडी
हाकले सायड हाकले सायड रायट म्हणून दरवड्टा
बाळशें तेणे आवय हेणें पळोवंक कोणाक परवड्टा

हांतलें वेगीं सुटोंक जाय
बिरमत दोळ्यांत उटोंक जाय
कोडयाळांतल्या बस्सांची ती लायं लूट रावोंक जाय

म्हातारो पळे हातीं दांडो पिरायेन कडकडटा
बरोडचिया सयत पोला कंडकटर दडबडटा
पिरा पोले दुंबु पोले म्हणून केवलो दारपिता
तितल्या भितर पोकरी बोटां बायलां कुल्यांक खरपीता

हांतले वेगीं सुटोंक जाय पोकरी बोटां कापुंक जाय
कोडयाळांतल्या बस्सांची ती लाय लूट रावोंक जाय

# 9. नवें वरस

पोटकळेचा फुलानी वेडकोळ मारली चंद्रेमा
परने किंतें नवें किंतें आमकां मातशें सांग मामा
कोणाक कायं कळचे आदीं झाड पिशें लायलां
नवें वरस आयलां

नवें वरस आयलां
परन्या पायांक नवीं जोतीं
नाचलीं दादले बायलां
नवें वरस आयलां

पोटकळेचे वेडकोळेंत चंद्राक कायं गमलेंना
परनें किंतें नवें किंतें सागोंक झरी जमलेंना
नवें कापड हाडचा आदीं परनें पिंजून घायलां
नवें वरस आयलां

नवें वरस आयलां
परन्या पायांक नवीं जोतीं
नाचलीं दादले बायलां
नवें वरस आयलां



## 10. मान ना

कल्वंताचा कमरावेरी भांगाराचें नेवाळें
नाका नोतीं गळ्यांत आसत सुवर्णाचें गोसाळें
तरी बाये तरी बाबा
आय्का म्हाका आय्का म्हाका
संसराक हाचें भान ना
च्यार चोवगां मान ना

गरीबाच्या गुमटावेरी सोभागेचें गायानु
बोटां ताळ, पदां व्हाळ, नाच्र आस्येत पायानु
तरी बाये, तरी बाबा
आय्का म्हाका आय्का म्हाका
आय्कतेल्या कान ना
च्यार चोवगां मान ना

कोंकणी भास घासतेल्यांचीं मस्त जातात सोभाणा
फुलांमाळो गळ्यां तुरो मोडयायेरी रुदाना
तरी बाये तरी बाबा
आय्का म्हाका आय्का म्हाका
संसराक हाचें ध्यान ना
च्यार चोवगां मान ना



## 11. कापडां नात

रोजीगेर बोबाळ जाता
रोजी घोवाक गाळी दिता
कान म्हजो तांगेर वेता लज नसताना
आय्कून तिची दुखाळ कथा
काळिज म्हजें फासळून येता

कापडां नात न्हेसोंक लज उगती पडटाना
रोजीबायेक कापडां नात रोजीबायके कापडां नात
मिसाक वेचीं च्यार मात रोसाक वेचीं च्यार
रोजीबायेक कापडां नात रोजीबायेक कापडां नात
काजराक वेचीं च्यार मात बाजराक वेचीं च्यार

खंचोय घोव बिरमत पावत
कोणाचें तें काळिज रावत
नातल्यावेळिं न्हेसोंक लज उगती पडटना
घोव तिचो बेजार जाता
व्हडली एक थयली घेता
उटा उटीं बाजराक वेता घळाय नासतना

बिर्यालागीं रोजी वेता
बिर्याभितर दीश्ट दिता
दोळो म्हजो तांगेर वेता लज नासतना
कापडां आट्टी लकोन गेली
मात्यार पडून रोजी मेली
घरकार तिचो कापडां घेवून घरांत पावताना

## 12. माणक्यांचें लिसांव

हांव सांगोंक आयल्यां काणी
जांव आयकतेलीं शाणीं
आयका देकून ध्यानी मनी दोनी कानानी
त्या गादयांच्या मेरानी
बोबाळ केली माण्क्यानी
वादळ उटवन गनां वनीं च्यारी दिशानी

डरांव डरांव डरांव आमी डिस्को नाचोतांव
कोगळी बायेक कंतार कळना आमी शिकयतांव
डरांव डरांव डरांव आमी कांतार शिकयतांव
सोल्फां उतरां वोळचीं कशें आमी दाखयतांव

त्या आंब्या रुका तेणे, गायन गाजयलें कोणे
ताळियां मधें वाजलें विणे गोडश्या गुणांनी
कुहू कुहू कुहू काळीज कांपतागे लोव
आयकून थोडे माणके बोव रडतात शिणानी

कोगूळ एकसुरें बावलें, आयकून लजेन तोवलें
पाकटे फुलवन आकासाक पावलें दोनंच खिणांनी
हांगा सपंली काणी आयकतात दोनी कानानी
एक्सुऱ्या शाण्यांक लाव्येत वाटेक पांयशीं पिशनी

# 13. डायना बाय

ओ डायना बाय कुजनांत नाचता
हांच्या पोटांत कित्याक गा लासता
घागरो तिचो खाडके पऱ्यांत वयर उबता
सगळ्या गांवार खबर गाजता

आमोरेंचेर कुंपार तिचो आयलोलो गुटान
एकलो म्हण्टा चोवना वेचो रावलोलो हटान
दुसरो म्हण्टा कुंपार अंक्वार तशीच डायना बाय
दोगायंकी तर भुरगीं जावनात कुंपार कसोकाय ?

तिसरो म्हण्टा बेजमेंताक आज पादऱ्याब आयलोलो
कुजनांत ताणी एकामेकाक दोळो लायलोलो
आंक्वार हातान आंक्वार बावळो बरोच चिड्डीलो
बरें भुरगें जायजे म्हणून पोलो मुड्डीलो

तिच्या पायान नाचता बावडी म्हाका वोळना
आयलो गेलो लांबय गोमटी कित्याक कळना
गांय्दोळाच्या तोंडांत केदीं मोतीं गळना
नाचगे बाये नाचगे बाये संसार जळना



# 14. साळ्काची पाक्ळी

सळकाची पाक्ळी भेज दिवंक लागली
हांव तळ्यांतु नाताना
लज म्हाका दिस्ली ताळयांच्या इडयान
चंद्रेम तिळटसतना

पय्सापय्शिल्यान आंब्याच्या बोल्यान
कोगळीन पिरलूक वाजली
पिरलुके नादान मोगाच्या सादाक
शिरशिरो घेताना.......

लिपलेल्या मोगा साळकाच्या जाग्यार
तूं जर म्हजे संगीं आसलो
सर्ग आनी संसार तळ्याच्या उदकार
एक जातो कोण्णा ...........



## 15. हांव पियेवन पियेवन मेलों

कोणाक सांगों नाका
म्हजें गुपीत राका
हांव पियेवन पियेवन मेलों
कोण तरी दोन थेंबे वोतून दिताले
तेन्नां जिवांत म्हज्या अजाप जाताले
परत्या परतून जीवंत जालों
हांव पियेवन पियेवन मेलों

बेब्दो म्हण वोलावन म्हाका तुमी पुरला
सोव्या शिरापानी मात्येक पायला
कोणे हेंडो म्हळो
कोणे बेब्दो म्हळो
हांव तालेंतां लिपयत गेलों
हांव पियेवन पियेवन मेलों

संसार हो अजूनी पातकांत लोळटा
सल्वण्यो लुक्साणा मात्याक माळटा
म्हाका उटोंक लाया
इल्लो वोतून दिया
पातकां लुक्साणांतलें सुटयतलों
हांव पियेवन पियेवन मेलों



# 16. कांटो

तुज्या केसांक चोयताना मोगा
म्हजे दोळे भरून येता
तोंडार चरचें वादळ पुसूंक
तकली केसांत पुरुन वेता

तुज्या केसांत पडलो मोसांत
लेकलें म्हजो मोगा वांटो
रगताचे व्हाळ रिगतां गालांत
तुजे बोबपिनेचो कांटो

हो कांटो गळ्याक तोपूंदी
हो कांटो काळीज फाफ्सुंदी
हो म्हजो दिवो पालवूंदी
तेसांव सलवूंदी काणी संपूंदी

तुज्या हरद्याक चोयताना मोगा
म्हजें काळीज फुमार जाता
तुज्या पालवांत चेपून खाडकी
रडुं म्हणून आशा येता



सदां वेंगेंत मोगा पासांत
म्हजो घेतोलोंगो वांटो
पाक्ळ्यो गेल्यो देंटूय गेलो
म्हज्या वांटयाक उरलो कांटो

## 17. हांव खरशेलों

हांव आशेलों आशेलों आशेलों
आल्मारितले बूक वाचूंक आशेलों
हांव खरशेलों खरशेलों खरशेलों
वाळय वाचून गेली हांव खरशेलों

रस्मा आंगलें तांब्डीं फितां न्हेसूनगो बाय
हालवन धलवन कमर तुजें खंयसर वेताय
गुळी जाता आटवन तुजी खतखती सोभाय
आशा येता आप्डूंक तुजी सिल्काची कोबाय

हांव आशेलों आशेलों आशेलों
तांब्डी फिंतां आपडूंक बाय आशेलों
हांव खरशेलों खरशेलों खरशेलों
घोव तिचो आप्डून गेलो हांव खरशेलों

निळ्या मळ्बार नेकेत्रांचो शिंवोर जाला
आत्मो म्हजो मेजूंक तांकां बरोच तानेला
दऱ्यावेळेर शिंप्डून आसात कोंग्याचीं करलां
काळीज म्हजें विंचूंक तांकां आशेन भरलां

हांव आशेलों आशेलों आशेलों
नेकेत्रां शिंवोर मेंजूक हांव आशेलों
हांव खरशेलों खरशेलों खरशेलों
म्हावाली मेजून गेलो हांव खरशेलों



# 18. किरा गा किरा गा



किरागा किरागा शिंप्टि कित्याक हालय्ता ?
करमलिच्या मळ्यांत कित्याक
कीर शिंप्टि हालयता ?
मतिमना चाळटासताना
मस्तें सवाल कालयता ?
किरागा किरागा शिंप्टि कित्याक हालयता

करमलिच्या मळ्यांत तरन्या फांत्या वेळांत
आंजु आमचें उड्टा मोड्टा सुरंगाराच्या ताळांत
उकल्ता त्या परमळांत कसलें नाकय फुलयता
कीर शिंप्टि हालय्ता........

आंज भडवो खांदीर बसून भंवर तिचें किसयता
उदेंतिचें रगत पुसून कपलार तिळो बसयता
आंजु आतां फातरातसलें अंतस्करण भुलयता
कीर शिंप्टि हालयता .........

हन्द्र्यावयल्या बोंगुल्यांचेर केसां राशी खेळ्टाना
चंद्रेमाचें चांदणे कुडीर आग्टें जावून जळटाना
अस्त्यावेळीं सन्नेशी सयत नागडें पेंकाड धलयता
कीर शिंप्टि हालयता ............

# 19. कोंक्णी काजर

आल्तडिचो लोक आयलोगो काजराक
पल्तडिचो लोक आयलोगो काजराक
आयकोन काणी काजराची
कॉंक्णी लोका काजराची
काळ्जोराचो ताप आयलोगो माजराक



सावद मागप्याक सावद मागोंक कोंक्णी उतर मेळना
उपकार बावडूंक न्हवऱ्याबाबाक तेंक्यू शिवाय कळना
कोंक्णी मतिंत अशी कशी कोंक्णी वात जळना ?
पुडवें पावलां पेजाराक गुलाम जाल्यात इजाराक

आल्तडिचे उटले नाचोकं कोंक्णी व्हाजप व्हाजना
पल्तडिचे उटले नोचोंक कोंक्णी कांतार गाजना
वाड्तेल्याचे मोडकेंत लेगून कोंक्णी जेवण शिजना
सग्ळे लागतात रजाराक बेसांव पडों काजराक

हालव्न धलव्न वाडपी येता तुमची जतन करागा
दादोस्कायेन जेव्यंचें खाव्चें तुमच्या तुमच्या धरागा
कडिये बशी साडयार वोमती कोणी तरी धरागा
कांप लागा आयेराक, बेसांव कोंक्णी काजराक





# 20. आडकुलो गो बुडकुलो

आडकुलो गो बुडकुलो तेला तुपाचो
बायेगेर बाबु जाला फिरंगी रुपाचो
आंगणा दारा सुंरगार करा इंदा सोपाचो
बायेगेर बाबु जाला फिरंगी रुपाचो

बटाट्याचो बियाळो मातयेंत जर ओंपलो
बटाटोच जातलो दुसरो वाद संपलो
पियाव रोयल्यार लोसणी कांदो किरलून कसो येंवचो ?
भावोजीगो आमचो, बायेक फिरंगी कसो जांवचो ?

इगरजेच्या दारार गो बाय आमचें जालें
दिसाक तीन तेरसां लेखान ल्हान व्हड केल्लें
वारें ना वादळ ना घागरो कसो उबचो
भावोजीगो आमचो, बायेक फिरंगी कसो जांवचो?

रोजारिचे मायेन पुणी बायेक आमच्या नाडलें
सांगात तिका जांव म्हणोन तिच्या जाळांत वोडलें
दोरीना कोळ्सो ना सांगात कित्या बांयचो ?
भावोजी गो आमचो बायेक फिरंगी कसो जांवचो ?



## 21. फारार फार

सोभयागे पंल्गणा इंदा पानानी
रंगवन काडा आंगणा तांब्डया बणानी

आज कोणी येंवचो आसा
आयकताती राती दिसा

धोलींचेर मार वय्ल्या वनानी
फारार फार जाताय रानानी

पोळी करूंक तांदूळ घाला व्हडल्या वनानी
पोळ्ये भितर पुरण भरा गोडा चुनानी
आज कोणी येंवंचो आसा
व्हाजया रे राती दिसा
धोलींचेर मार वय्ल्या वनानी
फारार फार जाताय रानानी

पुरात चीवे लायात दिवे कव्ळ्या तणानी
वाट ताची सुरंगाराया वाती मेणानी
आज कोणी येंवचो आसा
व्हजया रे राती दिसा
धोलिंचेर मार वय्ल्या वनानी
फारार फार जाताय रानानी



## 22. हांव पोवलेंत जागो जातां

वोडा रुकाबरी कलाकरा जीणे
बिडार खांद्यार करी, कावळो कोगूळ सुक्णे
त्रास लेकल्यात कोणे ग्रास केन्नाय उणें
लास पोटांत लिपवन, व्हजय आपलें विणें
हांव पोवलेंत जागो जातां
पेटेंत वोगो जातां
तांचे मदें आतां
उस्तून उस्तून दितां
जिविताचीं सतां
वोडारुकाबरी विल्फीय अशेंच करता
गोडा आवाज धरून कोंक्णी उत्रांत भरता
हॉलांत माटवांत नाचता काळजान काळीज गुंतता
विणें ताचें गाजता दिगंताच्या पोंता
हांव पोवलेंत जागो जातां
पेटेंत वोगो जातां
भुक लागल्यार आतां
उस्तून अस्तून खातां
जिविताचीं सतां
वोडारूकाबरी विल्फी तुजेंय जालें
बिडार केल्ल्या सुक्ण्यान पाल्यार मेळें केलें
कोयतो कुराड हातींत जोळ्वाक तयार करी
आयतो कवी मतींत आसो रूदन करी
आमी पोवलेंत जागे जातां
पेटेंत वोगे जातां
काम घाम मोळून
फुल पाक्ळी वोळून
विल्फी तुका दितां

## 23. जळार

दीस बुडलो रात आयली पडली सळार
दाटी मोटी वाट चुक्ली एक्ली जळार
दोळ्याक दोळो असो लागलो जाल्यार
व्हजयता पेंपारें म्हज्या कानार

जळारी जळारी उपकार करी
आडदोस मागतां तुज्या पायांचेरी
व्हजयनाका बिगिल म्हज्या कानांचेरी
प्रेशर कुक्कराचे गुड्डेबरी

कुशिन निदल्यागे ती येजमान म्हजी
ती नेणा इष्टागत म्हजी तुजी
पोल्यांक म्हज्या उमे दिशी जाल्यार
चाचवन चाचवन तुजी करीत सोजी



दुब्ळो कामेली हांव न्हयगे बाब
म्हाका चाबून तुका कितें लाब ?
रगताची रास तुका जायजे जाल्यार
डायेक्टर सायबाच्या कुल्यांक चाब

# 24. शिरांधारीचो पाव्स

चलो: शिरांधारीचों पाव्स मुन्ना असोय वोन्ताना
भिजून कित्याक वेताय मुन्ना सत्री नासताना
चली: सांतेक व्हचानारे बोना मिसाक वचना
सत्री हातीं आसतां मना जडाय सोसना
सांतेक व्हचानारे बोना मिसाक व्हचना

चलो: आमी बोणाक वचोयां
आमी रानांत नाचोयां
शिरांधारीचो पाव्स वोत्ता सत्री नास्ताना

चलो: केसांक फिंतां विस्तीद कोतां कुडीर आस्तान
जडाय कशी जायना मुन्ना मतीक सुस्ताना
संसाराच्यो रेग्रो रुली काय्दे आस्ताना
चली: तोडून काडूं मुक्ती जोडूंक भिरांत नास्ताना

चली: कुडीर तुज्या मुस्ताय्केचे बांध धोस्ताना
आशा येतच नाचोंक बेंडार कल्सांव नास्ताना
विचार देवाक रचलेंय कित्या लज नास्ताना
आदांव एवेक पेंकडार लेगून मूंज नास्ताना



# 25. रानांतल्या मांकडा

पाना इडयांतल्यान .........
पुस्पुशी लोव
युगा युगाचीं
मुस्मुशी दाव
तूंच म्हजो भाव ......
रानांतल्या मांकडा
ये खुशी पाव
बगलेन राव तूं
तूंच म्हजो भाव



आदांवची बोर काडली व्हडलीमांयच्यो काणयों
ल्हाना व्हडान, दोळे धांपून गळयल्यो मणयों
कोणे फट मारली कित्याक लाट मारली
चिंतून चिंतून जालें म्हजें मस्तक मोव

तुजीच खाडकी तुजीच उडकी तुजेच गूण चाल
दीस रात वेंगोन रावल्यांत जशी रूक वाल
तवळ तवळ खोर्जुता लोव
झडलेले शिंप्टेची पोरनिशी माव ..........



सावकाराची अरनिल्ली मूट तुजेंच बेसांव
पाद्री टीचेरिची कूट तुजेंच लिसांव
तुजेच ते गूण इगर्जींत लेगून
बोल्सानी हात घालून खोरपूंचें लोव

## 26. मायेमोगाची मामी

व्हाळा देगेरी मामी मामाच्या सांगाता रावताली
तिच्या शिरानी मायेमोगाची झरशी वाळटाली
आंव्याच्या रुकाक पळेल्यार तोरां घोस घोस देंवतालीं
पान्यांक तिच्या पोपाय लजेन तक्ली बागाय्ताली
मोगाळी मामये अशें कशेंगे ?
मायाळी मामये अशें कशेंगे ?
उल्या तुगेल्या अंकुरे पाल्या लागता पिशेंगे अशें कशेंगा

माम तोटांत आयलो जाल्यार वाट लागता तोटाक
भांगराचो फातर जावून पडटा खातेल्याच्या पोटाक
चुकून लेगून माडाक चोयल्यार अजाप गडपाता
दुस्त्याच दिसा बोंडुलो बावोन धरणीक शेवटाता
आवजाळी मामा अशें कशेंगा
दळिद्र्या मामा अशें कशेंगा
हात तुगेलो लागताना लिंबया पडटा लाशेंगा अशें कशेंगा

माम गोटयाक वचत जाल्यार गोबळो भराना
मामी गेल्यार व्हडल्या कोळ्शांत जागो उराना
माम जावयेत गिंडयेंतलें दूद अर्देशें गिळ्टा
मामी जावयेत मायामोगान आपलेंय पिळटा
मोगाळी मामये अशें कशेंगे
मायाळी मामये अशें कशेंगे
उल्या तुगेल्या अंकुरे पाल्या लागता पिशेंगे अशें कशेंगे ?

## 27. बात्ताबाच्या पोटांत

बात्ताबाच्या पोटांत गुळो हाय
वेगीं वेगीं चिरून काडूंक जाय

उटाउटीं ताका व्हेलो
होस्पिटलांत दाखल केलो
बात्ताबाचे कांपूक लागले पाय

होस्पिटलांत बात्तबाचें कांयच चलना
लोंचा शिवाय म्हण्टात गांवार बोंचो हालना
बोंचो हालना, बोंचो हालना
नोट नोट देकल्या शिवाय कोणंच भुलना

वार्ड बॉयक पांच रुपय जाय
नर्स म्हण्टा पंच्वीस रुपय पाय

दाक्तेर सुरी धरिसोना
गुळो ताचो चिरीसोना
निळसो नोट पावयल्या शिवाय

पण्सा तेदो गुळो जालो हाय
बात्ताब दिसलो गाब जाल्ली गाय

आत्मो ताचो देवान व्हेलो
भिरांतीन तो गुळी जालो
सर्गार कोणय लोंच घेतीत काय !

## 28. इज्जाबाक इजार ना

इज्जाबाक इजार ना
तरी ताका बेजार ना
इज्जाबाक इजार ना म्हण
बिज्जामोक बेजार ना म्हण
आज काल इज्जाबाचें शिंतिद पाजरनां

आसलें एक निळशें इजार ताच्या काजराचें
इज्जाबाक फळ तें जाल्लें ताच्या रजाराचें
बिज्जामेन रेशन हाडूंक ताचे दोनी पाय जोडून
व्हडलें जयत पोतें केल्लें त्याय इजाराचें

कापिये रंगार इजार ताचें शिंतिद भुलयतालें
न्हेसतासता काळजांत कोणी फोव कालयतालें
बिज्जामेक तें परनें जालें देकून कापून मेटार घालें
आज काल तें मेटार लोळोन पाय सुकयतालें

काळशा बणार इजार ताचें कसल्याय कामाक पांवचें
इगर्जेक सिमत्रीक काजराक वचोंक जांवचें
बिज्जामेन घाग्रो नातल्याक निदतासताना घेतलें न्हेसच्याक
इज्जाबान अर्दें पुडवें पेंक्टाक आतां लांवचें

## 29. कोंक्णी भाषेचें रुदान

आज़ मुगेली आसडी वोली कोंकणी म्हजें नांव
काळ्जाक मारिल्या भुरग्यानी भाली तांचें बरें जांव

आल्तारीर म्हजी बली भेटयली
इस्कोलांत म्हजी शीर तुटयली
दोगांयनी मेळून वोंडल्यो गा साली
मेलीं मुंगा हांव !

व्हडां व्हडांनी बोतलीक पावयली
दुब्ळ्या ल्हानांनी दिप्ती बावयली
उतरांची म्हज्या कसाय केली
कशें सोसूं हांव !

पिरायवंतानी कानाक खोवयली
तरन्या तरन्यानी कुज्नाक पावयली
काजरा हॉलानी घाल्तात गुळी
गुळी जालीं हांव !



## 30. सुडसुडे रेंवेचेर

सुडसुडे रेंवेचेर आप्टतालीं ल्हारां
चिंतून बसलां मोगा हांव लांब दीग व्होरां
ल्हारांक रेंव जाय रेंवेक ल्हार जाय
चिंतून लाचार जालां कोणाक कोण जाय

हांव जर जाय तुका
हांव जाय हाका ताका
हांव जर नाका तुका
सगळ्या संसाराक नाका, हांव नाका

पय्शिल्या मळ्बाचेर दऱ्यान उसयल्या दाय
मळ्बान फांक्ल्या ताचेर निळ्श्या रंगाची साय
मळ्बाक दऱ्यो जाय, दऱ्याक मळब जाय
चिंतून लाचार जालां कोणाक कोण जाय

रेंवे ल्हारांचे मेळी मळ्बावयले निळी
समजून घेयात तुमी म्हजे मतिच्यो वोळी
बाळाक मांय जाय मायेक बाळ जाय
चिंतून लाचार जालां कोणाक कोण जाय

हांव जर जाय तुका
हांव जाय हाका ताका
हांव जर नाका तुका
सगळ्या संसाराक नाका, हांव नाका

# 31. चंदामामा

चंदामामा, चंदामामा
व्हडल्या फेस्ताक येगा मामा
येगा चंदामामा

जिगि बिगी तारां मदें
चंद्रेमा तूं राय जाताय
मळ्बार तारां फुगताना
असो कसो रे भगून येताय ? हो ......... हो .......... चंदामामा
व्हडल्या फेस्ताक येगा मामा
शांवच्याक तुका मास दितां
धाटो मोटो जांगा मामा



रोकेटाचेर बसून खंय
तुज्या आंगार वेतात खंय
आयले गेले देंवले जाल्यार
सोभाय तुजी उरात खंय ? हो........हो........चंदामामा
व्हडल्या फेस्ताक येगा मामा
पिंन्च्याक तुका सुर दितां
तांब्डो तांब्डो जागा मामा



## 32. झळ्काना

अल्तडी दोंग्रार मारललो उलो
पल्तडी मोगा पऱ्यान पाव्लोना
वोम्ताता म्हजा दुखांचो पेलो
तरी मुगेलो दोळो तोव्लोना
झळ्काना झळ्काना हें मतीक झळ्काना

पुर्विल्यो यादी मातीयेक पाय्तालीं
आंगा - अत्म्यांतु उजो उट्टाना
सुऱ्याचेर वचुंक निसण लाय्तालीं
करतेलीं कितें ? अशेंय जळ्टना ?
झळ्काना झळ्काना हें मतीक झळ्काना

चिंचेचीं फुलां बोकडेचीं पिलां
मोगाच्या वस्तुंक कांय उणेना
केसांची गुंगुर दुदाची गाब्ळां
एक्कांती कशी झर देंवना
झळ्काना झळ्काना हें मतीक झळ्काना



## 33. एका गुलाबाक तितीन पाना

एका गुलाबाक तितीन पाना
नवल केलां वोळ्टास्तना
धर-गो डिन्ना, धर-गो मिन्ना
आम्गेल्या घरा माळ्टलीं ना

आमी घेंवचीनांव आमी माळचीनांव
तुजी कूड धलना, तोडं फुलना, फुल दिताना

आम्गेल्या घरा धुपं धुवरता
सगळींच शिब्री हुंगतलीं ना
देवाचा कुडांत दिवो झळ्काता
संगळींच आंद्ळीं चोयतलीं ना
अम्गेल्या घरा शिंव्तीं आबोलीं
सगळींच आळ्शी वोळ्टलें ना
धर गो जिन्ना, धर गो विन्ना
आम्गेल्या घरा माळ्टलेंना

पायांक बांदलें पांयजण हांवें
सगळींच केप्पीं आयकुंचें ना
हातांत घेतली पिरलुक हांवें
जीवन म्हजें नाचतलें ना
मात्याक माळ्ळें पाक मोराचें
वांक्डया,दोळ्यान तिळ्टलेंना
धरगो लिना, धर हेलेना
आम्गेल्या घरा माळ्टलेंना

# 34. कोगळींचो विवाद

आंबो पिकला, पियू पिया
जेव्णाक येगा पतिराया
भंव्तणी व्होर, व्हड तुजा
हांव जेविना, तुमींच खाया

लांब जिबेची मांय मेगेली
लांब काशेचो आन म्हजो
सुट-बुटांचो कुंपार आम्चो
निव्लेले रांदणीक फुंकी उजो
संगीं बसून आन पायां
तोंड धुयावो वेगीं येया

मायं तुगेली मोटी कोगुळ
केंळब्याचा तोटांत भंव्वें कोगुळ
आन तुगेलो अडेभागेचो
कुंपार खोटो विणगो सोम्गुळ
संगीं जेव्या माती खाया
संगीं गाया या बांग दिया

मांय आनी धय्राक आंसू
कुंपार आंसू उब्गाणेक
पति तुगेले एक्सुरो आंसू
तांचेसंगीं बस रोवाणेक
देवाली माया वोगे जाया
तोंड धुयावो वेगीं येया

## 35. जोर्जी बुतेल

जोर्जी बुतेल्लो गाण्याक वेतालो
दीसभर तेल पिळुन घरा येतालो
जोर्जी बुतेल्लो विरार जातालो
आसल्याळीं गेलरीचेर आवाज़ कसलो?

जोर्जी बुतेल्लो जोर्जी बुतेल्लो
कालुबुलो कालुबुलो जातालो
जोर्जी बुतेल्लो जोर्जी बुतेल्लो
कुलुकुलो कुलुकुलो खातालो

आवाज कसलो बोकुल आस्तलो
शिंक्या वयलें दूध पियेव्न धांव्ता आस्तलो
जरलो आस्तलो उंदीर आस्तलो
जोर्जी बुतेल आय्कून मात गरम आस्तालो



# 36. तुम्चो गांव

तुम्च्या गावांत पावले तशे भोंवया म्हणुन जालें
तुम्च्या गावांत भोंवले आतां रावयां म्हणुन जालें

तुम्च्या दिसा चांफ्या वास तांत्ली सांज व्हरूं
दिली जाल्यार मोगान घेवूं नात्ल्यार मोगान चोरूं !

तुमच्च्या चलियांच्या मात्यार झिल्पां काळीज वोलें जालें
दोनंच हात वेंगोवं कशें खंय्च्या हातान धरूं !!
दिली जाल्यार मोगान घेवूं नात्ल्यार मोगान चोरूं !

तुम्च्या गावांत आम्चा बापानी सारलेलें आस्तलें फालें
नात्ल्यार कशें, उग्डास परने, आय्कानात मतींत जिरूंक
दिली जाल्यार मोगान घेवूं नात्ल्यार मोगान चोरूं !

आम्चा गावांत सळ्गी ससार आप्लेंय पेलें जालें
दिसता मतींत हेच मातियेंत जिवीत आम्चें सारूं
दिली जाल्यार मोगान घेवूं नात्ल्यार मोगान चोरूं !





## 37. देव पळेत आसा

हुंब्रार उबो जेजु राय
काळ्जांत सोभों मरी माय
नागवेलिची वाल म्हजी वाऱ्यार आसा
देव पळेत आसा

म्हाका कितें उणेंगाय
भात फुलुन जाल्या लाय
वर्सुगेच्या बाराय मासा दिसान दिसा
देव पळेत आसा

मोय्जे बापा इस्रायेला
फाराव्याक पाडाव केला
मेक्ळो केलो मायदेसा, बारदेसा
देव पळेत आसा



## 38. आदांव बापान खेल्लें कितें ?

आदांव बापान खेल्लें कितें ?
कोणेय तरी आम्कां सांगल्यार जातें
रात्ची सारकी नीद पडाना
आंबो तोरेंज या नेंद्रबाळें
लिंबो खाजुर या नारलावोळें
दिसाक मतींत जाप घडाना
आदांव बापा, आदांव बापा
खेल्लेंय कितें सांगगा बापा
मन्शाकुळा लागीं बापा, नाका तुका आपा लिपा
आमी चिंतुन चिंतुन चिंतुन चिंतुन जाल्यांव एका रूपा

पाद्री म्हण्टात आपुल मोटें
जाण्टे म्हण्टात फळ तें खोटें
मिशियांतुल्यान हासतात सांगताना
पोटांत नांगा करगलां तें
गळ्याक ताच्या शिरकलां तें
गुटये भाषेन दिसता चोय्ताना

शेकड्यां वर्सां आदीं खेल्लें ताणे
खातासतना ताणे देक्लां कोणे
तकली म्हजी चिंतुंक पावना
फळाक ताच्या उम्काळ घेतांव
रुस्तुरुसांवगा आमी दितांव
आजून दाडी फोडची रावना

## 39. मोग म्हाका कळना

आम्च्या घरामुक्ल्या एक जोड सुक्ण्या
तांब्डे बोंचीच्या मोगाच्या भरव्या
मोगाची दिवटी म्हाकाय दाकय
मोगाचीं केळीं मतींत पिकय
मोग म्हाका शिकय
मोग म्हाका कळना

आम्च्या घरा साम्श्वार जशें तशें आयलें
झांडा पेडांक तुवें मोगा पिशें लायलें
मनांत म्हज्या उजवाड जागय
उज्वाडांत त्या मोगा पिशें लागय
मोग म्हाका शिकय
मोग म्हाका कळना



आम्च्या घरा साम्श्वार रुकाचेरे बस्चें
रुकाचेर बसुन तोंड तोंड घास्चें
तांब्ड्या बोंचीनी केस म्हजे उगय
केसां सांदींनी मोगा पिशें रिगय
मोग म्हाका शिकय
मोग म्हाका कळना



## 40. इजाबेल

इजाबेलाच्या घोवागेर व्हावतात दुधा झरीगो
पिवून पिवून इजाबेलाच्यो फुगून आयल्यो पेरिगो

ओय ओय ओय

इजाबेलाच्या धोवागेर तोव्शिणीचें दालेंगो
खावून खावून इजाबेलाचें पोट उबार जालेंगो

ओय ..................

इजाबेलाचो भग्तारगा उतरांक जोडी मेळयमू
पोट पकेव्न ग़ाल मोळून आप्ली मिशी वोळयमू

ओय ......................

आगा म्हज्या भरतारा नाका तुजें दरबारमू
तुजें न्हयगा दातारा दुधातोव्शा कारबारमू

ओय ........................

उतरा उल्याक आय्कना इजाबेल बावोलें
पणजेंतुल्या साय्बाच्या पायालागीं पोवोलें

ओय ........................

साय्बा भोगस सावेरा मन्याद म्हजी उरय
देवागेलें आजाप करून पोट म्हजें जिरय



## 41. मोगाच्यो वोडी

मोग केलो एकच घडी
आय्ल्यो जिवाक वोडी मांय
संदा संदा भरल्त्यात घाडी
आय्ल्यो जिवाक वोडी मांय जिवाक वोडी

पोपाय खांवची आश जल्ली
पिशें लागलें मतींतु
भगचे आदीं आशा खाली
विरार जालें कातींतु

चाब्चे आदीं झडली दाडी
आय्ल्यो जिवाक वोडी मांय, जिवाक वोडी

हिरा काडी पाशार जाता
तशी तेलामेलांत्ल्यान
पुसुक्क करून निसरलें तें
हातां पायां चिलांत्ल्यान

मोगाच्यो त्यो नाना वोडी
आय्ल्यो जिवाक वोडी मांय, जिवाक वोडी

नुस्तें जिवें उडतें भडकें
जाता सारें मिटाचें
भरलेलेंय जाता बोडकें
कितेंच उरना गुटाचें

सुखोन जालां चाब्का बोडी
आय्ल्यो जिवाक वोडी मांय, जिवाक वोडी

## 42. शेंडो

चलोः हांव पाटले सिटीर बसलां
तूं बस्ल्या मुखले बस्केर
हांव भायर भितर लास्लां
अत्मो पडला रिस्केर
तुजो दुदया तेदो शेंडो
वांदरा भाषेन वागता
तटा फटा तटा फटा
नाकाक म्हज्या लागता

चलोः आगो हो शेंडो, आगो हो शेंडो
आगो हो शेंडो या कासुळेचो खांदो ?
चलीः व्हयरे हो शेंडो, व्हयरे हो शेंडो
म्हाज्याच मात्यार आसा वोगो तुका कस्लो वांदो ?

चलीः म्हजें शिंतीद चिंतुन कडलां
म्हजें काळीज फुटून रडलां
फॅशनानी उक्लून म्हाका
अर्दे वाटेर सोडलां
अर्दे रगत हन्द्र्यावयलें
भुरग्या बाळान वोडलां
देकून मात्यार संसाराचें
पूराय रेकॉन्ड मोडलां

चली: अरे हो शेंडो, अरे हो शेंडो
व्हयरे हो शेंडो म्हज्या लक्षणाचो गोंडो
चलो: व्हयगे हो शंडो, व्हयगे हो शेंडो
ताका चिंतुन शिंदुन वेता अक्कलाचो कांदो

चलो: म्हजे मतींत दुबाव चरला
हो खेळगे कसलो धरला ?
केस वाडोवन मात्या मुळांत
सारें गोबोर पुरला
या दिवोड भितर उरला
या कंट्री सोरो भरला
या पाय्नेलांत्ल्या जेजुबरी
संसार शेंडयांत धरला ?



चलो: आगो हो शेंडो, आगो हो शेंडो
मात्यार बांदुन केसां मुडो जडाय कशी सोसता ?
चली: अरे हो शेंडो, अरे हो शेंडो
म्हज्याच मात्यार आसा वोगो तुका कित्याक लास्ता !

चलो: तुजो दुदिया तेदो शेंडो .............
वांद्रा भाषेन वाग्ता
तटा फटा पटा फटा
चली: शट अप :

## 43. आम्गेर एक बाबु जाला

कोंब्ल्या बाबानो सादरे घाला
आम्गेर एक बाबु जाला
आम्गेर एक बाबु जाला
बाबु जाला

घरांत तेगी चलियो आमी
माम्मी सदांच शिण्ताली
मागचीं घरांत आय्लीं जाल्यार
"व्हरात हांका" म्हण्तालीं
आमगेर एक बाबु जाला ..........
बाबु जाला

रातचो पाप्पा येता घरा
आम्कां देकोन शिण्तालो
पोटार खोरपून खरा खरा
"पेल्यान सरा" म्हण्तालो
आम्गेर एक बाबु नाला ......
बाबु जाला

घरांत आम्कां वास्रां तेगां
तांचेर कोणी शिणाना
आमींय चेडवां तीयं चेडवां
पेल्यान सरा म्हण्ता
आमगेर एक बाबु जाला ............
बाबु जाला

## 44. टिक टिक पान

टिक टिक पान
कण्केचें रान
सम्जना तर मना धर म्हजो कान
उमिण्यांची रास
तुजें म्हजें मास
नंगा भूखा हिंदुस्तान

तक्लेक एक वोट आसा आम्च्या देसांत
मोल ताचें रिगय्तात रगता मासांत

वोट जसो पेटेंत घालो
दिवोड तसो बिळांत गेलो
कोणे तरी गिळ्ुन सोड्लो एका घासांत

वोट म्हजो ल्हान तरी घेतेल्याक म्हान
पोट म्हजें माटयाक वेता ताचें जाता भाण

टिक टिक टिक ...........
वोट जालो काल पोर आम्च्या गांवांत
नवो सरकार आय्लो एलिसांवांत
तरी बाबा जायत कितें ?
चिंतांना मातें रितें
मोलादीक वोट म्हजो गेलो फोंडात !

वोट म्हजो ल्हान तरी घेतेल्याक म्हान
दिसांदीस गांव जाता भुकेचें साण

टिक टिक टिक ..........

# 45. सात सात चोव्दा सन्ना

लग्नाक कोणी येंन्चो ना
जेव्णाक कोणी बस्चो ना
सात सात चोव्दा सन्ना नाकात जाकीना

हाड जाकीना बुडकुलो लकय तळ्यांत
तुजें म्हजें उतर जाल़ां काज्च्या मळ्यांत
उदका धार पुरोगो रोस कोणी लांन्चोना
सात सात चोव्दा सन्ना नाकात जाकीना

आम्चें लगीन जातलेंगो पाव पेळ्यांत
पाच्यां करना रोस लाव्यां अन्द्र्या वळ्यांत
पाद्री चीट वाचूचोना माटव कोणी बांदचो ना
सात सात चोव्दा सन्ना नाकात जाकीना

राक्तां अजून बुडकुलो तळ्याक पाव्लोना
सुरंगा फुलां विण्लो झेलो अजून बाव्लो ना
आय्कातागो जाकीना कोगळी मळ्यांत गायतना
सात सात चोव्दा सन्ना नाकात जाकीना





# 46. पुन्वेची रात

कोणालिगो तूं पोर, कोणालीगो नात
अर्दी जाली रात, हातांत ना वात
चांदणें आसत म्हण आयलीं

आमी दोगांय साडेसात
आज पुन्वेची ही रात
तरी चंद्रान केलो घात

एक पोसो भातगो एक पोसो लाय
फुल्ल्या आम्च्या तोंडार आज मोगरी जूय - जाय
नाच्तां नाच्तां लायगो आकासाचेर पाय
नाच्तां काबार मातेंगो पेंक्टार आय्ली लात

आज पुन्वेची.......ही......रात......

काळ्जाक तोप्ता भालोगो पोटाक पडता लास
केसान तुज्या चंद्रेमाच्या गळ्याक घालीन पास
गाल भरून हासगो उज्वाड पडों रास

आज पुन्वेची......ही......रात.....





## 47. आमी तुजीं बुलबुलां

सगळ्या जगा प्रास आम्चो
भेस बरो देस
तांत्ल्या तांतू कोंकण आम्च्या
पोटा कुशी लास

कोंक्णी आम्ची भास
आम्चे माये पास
चाळीस लक्ष कोंक्णो आमी
[illegible]त्यार आम्च्या त्रास

वाह वाह रे कोंकणा सुटल्यांत तुजीं अंकणा
आमी तुजीं बुलबलां, आमी तुजीं साळयेरां
खंय्च्या रुकार गांन्वें आमी खंय्च्या गुडयार
चरचें आमी म्हणून कोण जाणा !

गोंय आम्च्या कळाराचेर
रास वोंप्ले लास

मारतात दोन जात लिपी
एकामेकाक घास
आमी कन्नड भाषेंत नास
तेणें केरळांत्ली भास

चाळीस लक्ष कोंक्णो आमी
आयकूत बोडाक त्रास
वाह वाह रे कोंकणा तूं तोड हीं बंदना
आमी तुजीं बुलबुलां .............

# 48. दाळ



फुल जालें देव हास्ताना
फळ जालें देव गाय्ताना
आनी फळाची ती दाळ जाली
देव नाच्तां नाच्ताना

मुगादाळ मानाची मोग वागय्ता
तोरीदाळ ल्हानांची भुक थांबय्ता
मास्ळी गांव घाणय्ता मास नांव म्हेळय्ता
दाळ मात सगळ्या गांवार एक्वट घडय्ता

पंजाबाची तेल्ती दाळ, काळीज धलय्ता
उत्तराची चाल्ती दाळ तोंड फुलय्ता
मराठयांची मसूर दाळ दूक भिजय्ता
अप्रूप्शें पोटांत मात घांटी व्हाजय्ता

केरळाची उडदा दाळ गाल फुगय्ता
तमिळांची पातळ दाळ [illegible] ना
गिरेस्ताचें जिरय्ता, दुरबळ्यांक उरय्ता
काश्मीरा थावन तेन्का पन्यांत एक्वट घडय्ता

## 49. स वो उपदेश

सात वर्सांचें बाळ मुगेलें
कुम्गारा दोतोरन उचारता
स वो उपदेस म्हण्टाना सम्जनास्ताना
माम्मी लागीन विचारता
माम्मी ताची आंय्डो घोंटुन
बांट्यासांत्लें निसरता
पाप्पाक विचार म्हण म्हण्टाना चली
म्हजेलागीं येवन सुस्कारता:
सांग पाप्पा म्हाका सांग पाप्पा
कोणी सांगीना सांग रपा रपा
प्रादुवार करचें म्हळ्यारी कितें
सम्जना म्हाका उतर मोटें
सांग पाप्पा म्हाका सांग पाप्पा
सांगूंक कळनास्तां जातां बेप्पा
जातां बेप्पा
दोन दिसां आदीं दोतोरन शिक्ताना
तक्लें ताणें तापय्लें
परत्यान परतीं सवालां विचारन
माद्रीचें तोंड धांपय्लें

प्रादुवार करचें म्हळ्यारी कितें
सांग म्हणोन लालेता
सांगोव्ना म्हणुन म्हजेलागीं येवन
हुस्कारन हुस्कारन गागेता
सांग पाप्पा ........

व्हड पिरायेन थोर जाणवायेन
सगळे मागणे धरूंया
बेप्पा जाल्यांव चाप्पे जाल्यांव
देवाक विरार करूंया

व्हयाये साय्बा ल्हाना सानांचेर
बिरमत आमी पावुंया
प्रदुवाराचो उपदेस तांका
पुणी केन्सल करूँया
सांग पाप्पा..........



## 50. मिटाची कण

पेजे वाटली हातीं घेव्न
दऱ्या वेकेर राव्लांगा
कोणी विचारनाकात चोव्न
तोंड कशें बाव्लांगा ?

एक आस्ली मिटाकण
रागान म्हजेर उटल्यागा
म्हजो सांगात नाका म्हणुन
सरां सरां सुटल्यागा

एक आस्ली मिटाकण ल्हान सान मिटाकण
घरचें म्हजें आयापण, सानपणांत व्हडपण

एका दिसा पिशेपणान
अन्द्र्या पायार राव्ता ती
चिव्ळ्या येदो म्हण्टा म्हाका
गाळी शिराप सोंव्ताती

दऱ्यायेदीं जातां म्हणुन
पिशे आशेन बुडटा ती
बाळ्पणा मित्राक सांडुन
दऱ्यांत वचून उडटाती !

जाय म्हजी मिटाकण ल्हान सान मिटाकण
घरचें म्हजें आयापण, सानपणांत व्हडपण

दीगा दऱ्या मिटाकण
तुज्या उदकांत खिरल्यागा
वाटलेंतुली पेज म्हजी
मिटाविणें उरल्यागा
मासा मुदे मास्ळे लोदे
जेव्णाक म्हज्या नाकागा
ल्हान म्हजी मिटाकण
आस्ल्यार पुरो म्हाकागा
दीगा म्हजी मिटाकण ल्हान सान मिटाकण
घरचें म्हजें आयापण सानपणांत व्हडपण



## 51. जिगि बिगि रात

जिगि बिगि रात ही जिगि बिगि रात
जिगि बिगि रातींत काजुल्यांची वात
जिगि बिगि रात ही जिगि बिगि रात
काजुल्यांचे वातींत कितलें म्हण दिसत ?

काजुल्यांचे झळ्केंत तक्लिश दिसत
तक्लेचे तेंग्ळेर केसशे आसत
आस्तित मुदियाळे, कोंगराळे, जिरसाळे
दोळ्यांक ना दिसत्, दोळ्यांक ना दिसत
म्हजेच मतीन म्हाका करचो हो घात
जिगि बिगि रात ..........

वातिचे झळ्केंत आंगलेंशें दिसत
आंगल्याचे मोडींत कूडशी दिसत
आसतलीं बोंबगाळीं, सुळ्सुळी, हुळ्वुळी
दोळ्यांक ना दिसत, दोळ्यांक ना दिसत
म्हजेच मतीन म्हाका करचो हो घात
जिगि बिगि रात ...........

जिगि बिगि झळ्केंत खाड्किशी दिसत
खाड्केचे उड्केंत तोंडशें आसत
आस्तलें वाड्कुळें, माणकुलें, गुळ्गुळें
दोळ्यांक ना दिसत, दोळ्यांक ना दिसत
म्हजेच मतीन म्हाका करचो हो घात
जिगि बिगि रात ..........

## 52. तरनाटपण

भुरगेपण मरोंक सरोंक जाताना
तरनाटपण आंगापांगार येताना
सोसुंक नजो जाता मांय
मतींत जाता तशें कांय
बेणसुलिच्या पाडींत कोणी धांव्ताना
तरनाटपणा, तरनाटपणा
थका थका थका तुजीं उडकाणां
शिरान शिरो जातात तशो
गोड नारल तोप्ल्यांत घालुन दांब्ताना
वय्ले वोंट काळ्शेताना सोसाना
आंगा पांगा सुजीन गांव दिसना
सोसुंक नजो जाता मांय
मतींत जाता तशें कांय
पिटिकोटा नाडो कोणी वोड्टाना
तरनाटपणा ...........
रात रात नाच्लें तरी वोळाना
उट्ता उजो वयर तरी झळाना
सोसुंक नजो जाता मांय
मतींत जाता तशें कांय
पिकली पुळी कोणे तरी पिळटाना
तरनाटपणा................

# 53. बिरि बिरि पावसा

बिरि बिरि पाव्सा
बिरि बिरि पाव्सा
तूं येय नाकारे
म्हज्या पापियाच्या लग्ना दिसा
येयनाकारे

दोळ्यानी दूक फातर जालें
सध्यीक येतानांय थेंबो गळ्ळें ना
तुका कोणें रे सांगोन दिलें
न्हव्रयाचें तोंडं हांवे पळेवना
भिरमतेन तुजें काळीज फुटोंरे
फण्णांत सासांव फुटता त्या जिन्सा
तूं येयनाकारे ............

गुन्यांवान काळीज शिजोन गेलां
धांप्लेलें पातक उबत गेलां
तुका कोणेरे सांगुन दिलां
ल्हानपणी हांवें चून चोरन खेलां
शिक्षा नाकारें भोग्शी म्हाका
मागतां मुगेल्या पातक्च्या कुरसा
तूं येय नाकारे .......

आवय्च्या गुस्तार शेळें शित जेवलीं
बापय्च्या गुस्तार वोळ्वळ्यांनी लासलीं
तुका कोणे रे सांगुन दिलें
न्हव्रयाच्या गुस्ताक गुपीत आशेलीं
बाबु जातलो आगणांत खेळ्टलो
वोत सुशेगान येंन्च्या वरसा
तूं येयनाकारे.........

## 54. काळजाक वचोंक

काळ्जाक वचोंक पोटांत्ल्यान वाट
कायं मेळाना आड
मोग म्हगेलो आस्ल्यारी तुका
बशी भरून् वाड

म्हज्या केसांनी बोटां चरय्शी पोटांत जळ्टस्ताना
उजो निवाना मोगाक पावना उम्या वेंगेची धाड

शिंव्तीं आबोलीं सदां फुल्तोलीं उगडास बेतास्तना
म्हाका दिनाका मेल्लयांच्या फोंडार झेले सोडव्न काड

दऱ्यावेळेरी करलांनी कुरल्यो पायां लागतास्ताना
करलां सोडुनी थय्ली भरूनी कुरल्यो घरांत हाड

हळदीचे खोले परमळा उल्यान आंतां फुलय्ताना
पुरणा पातोळी घरांत करताना म्हाका सांगोन दाड

धाक्टुल्या आळ्वान माणकुलो मोग संस्राक शिकय्ताना
पत्राडे जाले मेळ्ळें सांगाता ताय्कुळ्याचें झाड



## 55. आम्ची भास

मन्शा मन्शाक उतर आस्ता भेश्टें भाशिनाका
कोंक्णी भास आम्ची भास कशीय घाशिनाका

मेरसीबायेन जेंञ्चें न्हय पोस्णें सेंञ्चें आस्ता
मेरीबायेन खांञ्चें न्हय मानान जेंञ्चें आस्ता
मेरशें जाल्यार कशेंय घास लज दाक्षेण नास्ता
खांञ्चें म्हण, गिळचें म्हण कशेंय म्हळ्यार सज्ता

मिरोण मेल्यार पुरचो ताका बेजाराय तो करना
विगार जाल्यार मतियेक पांञ्चे, सरचें तो गा मरना
गोव्ळी बापाक मरण येना सरचेंय ताणें नास्ता
देवादीन जाल्ल्या ताका निकेपुंचें आस्ता

पियोनाच्या परन्या खांद्यार मांड्डो एदो आस्ता
दाक्तेराच्या बळ्वंत भुजार बुद्वंत तक्ली आस्ता
मंत्री साय्बाक मांड्डो नागा तक्लीय केदींच नास्ता
कुडिर आस्च्या बोड्क्याक ताच्या मस्तक म्हण्चें आस्ता



## 56. आशेक वाट लाय्ली

हांव जांव तुज्या गिटाराची तार
मार मार मार बाये मार
व्हाजून व्हाजून व्हाजून
काडगो म्हजो नार
पय्ली पय्ली पय्सा पय्सुन पाट तुजी चोय्ली
काळ्जांत म्हज्या कोन्शा कोन्शांत आशा किरलुन आय्ली
तुज्यो फांतियो जातलों
तुजे पाटीर खेळ्टलों
मोगान मस्तेन लोळ्टलों
केस कात्रून सोड्लेय गाड्वा आशेक वाट लाय्ली
आतां ....... जांव तुज्या गिटाराची तार
लागीं वेतच दिश्टिक आय्ली तुज्या हरद्यावय्ली
मायामोगान फुलुन आय्ली फुगासण भाय्ली
तुजा चेय्निंत वेतलों
ताचें पेंडेंट जातलों
तुज्या हरद्यार खेल्टलों
करियमणी बांद्लीय गाड्वा आशेक वाट लाय्ली
आतां .......... जांव तुज्या गिटाराची तार
नदर म्हजी गालांवय्ल्या फोंड्कुलांचेर पाव्ली
जिग्ग करून काळ्जांत म्हज्या आशा अंक्रेव्न आय्ली
ल्हान्सो चाम्कोळ जातलों
तुज्या गालार बस्तलों
तुज्या बोटान मोळ्तलों
किम्चुन सोड्लो रगतान बुड्लो आशेक वाट लाय्ली
आतां ............ जांव तुज्या गिटाराची तार

# 57. काल सांजेच्या वादळार

काल सांजेच्या वादळारी मांय
काल सांजेच्या वादळारी
सिल्काचें एक आंगलें उब्लें मांय
तेंक्लें आम्च्या पाटोसार
आंगलें उब्तालें फराफरा मांय
रास केसांची मळ्बावय्र
त्याय आंगल्यातं लिपोन आस्ली मांय
आंजा सारकेली एक नार

म्हाका नाका मांय, म्हाका नाका मांय
सांगात तुका जाय्त घरांत
लोव देंवय भितर व्हर

काल सांजेच्या बादळार मांय
काल सांजेच्या वादळार
आय्लेली नार ...... घट मुट मांय
चंद्रेम तिच्या कपलार
भिरडां तिगेल्या गालांचेर मांय
गुलाबा पाक्ळी वोंटांचेर
सर्गिंचे आंज उम्कळ घाली मांय
वाड़्कुळे तिचे खाड़्केचेर

म्हाका नाका मांय, म्हाका नाका मांय
आम्च्या घराक जाय्त सोभाय
मेजा वय्ल्या वाजांत भर

काल सांजोच्या वादळार मांय
काल सांजेच्या वादळार
आय्लेली नाका व्हड भुल मांय
लुसिफेर तिच्या मस्तकार
केस मुदियाळे दोळे काळे मांय
बुराक काड्डितत पोट्कोळेर
नाड्गी पोलेगे, हरदें येदें मांय
लाळ देंवत म्हजे जिबेचेर

म्हाका नाका मांय म्हाका नाका मांय
लोव देंवय घरांत व्हर
तिका तुगेली सुन कर





# 58. सोमारि पापारि लाचारि

सोमारि पापारि लाचारि
शेंभोरानी नांवां तुका बेकारी
मरियेबरीं, सोऱ्याबरीं, देवाबरीं
रस्ते भोंव्तात काम नात्ले आचारी

कॉलेजीनी राशी घाल्यो डिग्र्यांच्यो
आफिसानी धाडी घाल्यो घाग्र्यांच्यों
फुडाऱ्यानी विरोध केलो सरकारान निरोध दिलो
तरी वाड्ल्यो हारी आम्च्यो बोक्ऱ्यांच्यों
सोमारि पापारि लाचारि

सुग्गी आसा कोळ्कें आसा एणेल ना
आम्च्या गावांत मेज आसा कदेल ना
भाक्री आसा चाक्री ना, घोडो आसा गाडी ना
वारें आसा उज्वाड आसा जनेल ना
सोमारि, पापारि, लाचारि

हांचेर आनी पातियेव्न राव्ल्यार जाव्चें ना
तोंडातुलें शित पोटाक पांव्चें ना
हाताक हात दीव्न नवो एक्वट बांदुन
चल फुडें बेकारपण उरचें ना
सोमारि, पापारि, लाचारि

# 59. वेडो

घेतात जाल्यार घेयात फुलां, तांव्डीं आबोलीं
तांव्डे, भुलिन तरनी मना सरगीं उबोलीं
पोकिरपणा नाकात म्हाका नक्रे करीनाका
घेतात जाल्यार घेयात फुलां हाताक धरीनाका

वेडो मारिनाका, म्हाका साडो न्हेसय्नाका
वोंडो फुगय्नाका म्हाका वेडो मारिनाका
गुलाब पळेव्न, हातान एका मोगरे खेळय्ता
दुस्र्या हातान पोल्याक पोशेव्न काळिज जकय्ता

काळ्जांत म्हाज्या जळ्ता उजो जळोव सारिनाका
घेतात जाल्यार घेयात फुलां घात करिनाका
वेडो मारिनाका ........

सग्ळे तुमी हरद्याक म्हज्या देक्चें सोडुंकना
फुलां विकुंक हाड्ल्यांत हांवे दूध हाडुंकना
भुरगीं घरांत राक्तात तांच्या पोटाक मारिनाका
घेतात जाल्यार घेयात फुलां थोटे मारिनाका



# 60. मांड सोभाण

मांड सोभाण म्हळ्यार कितें
म्हणानाकात आमी नेणा
संतोसाचें झरिक म्हणा
तीं मांड सोभाणा

खिण्कुळ्यांचीं घणा - घणा
पांयजणांचीं झणा झणा
उतरां तांक्रां मेळय तर
तीं मांड सोभाणा

कवितेक न्हव्रो म्हणा
व्हाजप तालाक व्हकल म्हणा
तांचें लगिन घड्ता तेन्ना
तीं मांड सोभाणा

आमी मांडार चार बोडां
मुकार तुमी म्हाजणा
आम्चो मोग घडात तेन्नां
तीं मांड सोभाणा



# 61. आबोल्याचो रंग

आबोल्या तुजो रंग उजोगो
रांद्णिर तुज्या कितें शिजोगो ?

माण्कुल्या मुकार पाक्ळी पिटाची
साण्शिल्या सांदिंत दुव्ळ्या देंटाची
मोंवाळायेंत कसो उजो रुजोगो
रांद्णिर तुज्या कितें शिजोगो ?
आबोल्या .........

एक्सुरपणारी आल्बो श्रंगार
आंक्वारपणाची साय आंगार
राशिच्या उज्यांत देव पुजोगो
रांद्णिर तुज्या कितें शिजोगो ?
आबोल्या .......... शिजोगो ?

म्हज्याय भितर जळ्ता सोरमुणा
भाय्ल्यान कुल्कुलो कसो कांय नेणा
आंग पांग मात, धामान भिजोगो
रांद्णिर तुज्या कितें शिजोगो ?
आबोल्या .........

भितरलो उजो वोंकुंक नरगतां
नक्ली हाशानी लिपंव्क करगतां
म्हज्याच मोड्यार म्हजोच भोजोगो
रांद्णिर तुज्या कितें शिजोगो ?
आबोल्या .........

म्हज्याय मुकार उजो पिकय
भितरलें सोरमुण भाय्ल्यान फांकय
माग घडों असो तुजो म्हजोगो
रांद्णिर तुज्या कितें शिजोगो ?
आबोल्या .......

## 62. उजो

राट वोलिंत कड्कड्टाना
चंद्राचें लेगुन दांत झड्टाना
काळ्जांत कसो पेट्टा उजो
तुज्या मोगाचो, तुज्या मोगाचो

पाव्सांत गुलाब शिरशिरताना
कांटो फुलाक वेंग मारताना
काळ्जांत कसो पेट्टा उजो
तुज्या मोगाचो, तुज्या मोगाचो

पाल्वुंक नजो सोसुंक नजो
धगाभगा करुन पेट्टा उजो
तुज्या मोगाचो, तुज्या मोगाचो

दोवाच्या येण्या फुल्लें साळक
फुगासांवान शिंवर सुज्लो
तुज्या मोगाचो, तुज्या मोगाचो

पाक्ळी मस्तिली तरन्या फुलाची
तांब्साण वाड्ली गोऱ्या गालाची
त्ये तांब्साणिंत्ल्यान उट्लो उजो

## 63. रात रात रड्लां

रात रात रड्लां आकांतांत पड्लां
मळ्बावेलें नकेत्र म्हजें, खंय्सर तरी झड्लां

आगो आगो चलिये उशा गोंडा बेलिये
सांग म्हज्या फुडाराचें पोव्ळें तुवें काड्लां ?

काळिज नितळ आस्लें, पाप पातक नास्लें
सांग तुज्या तोंडार तुवें, वोरल कित्याक वोड्लां ?

अशें कशें जालें, चोरलें म्हजें फालें
सांग म्हज्या नशिबाचें, मोड्कें तुवें फोड्लां ?

चुकोन म्हाका कळ्ळां, खरेंच तुका मेळ्ळां
सांग म्हज्या दोळ्यांक लिपंव्क गुक्क गिळुन सोड्लां ?

सांग नात्ल्यार चलियें, दुलब आंक्वार कळिये
सांग सांग आप्शें तुजें पोट कशें वाड्लां ?



# 64. आजच अशें

आवय्स माव्शे आजच आय्ली
तुजे खातीर तोव्शिण लाय्ली
हरशें जाल्यार उटा उटीं
बोव्ळीं दुधियां दाटीं मोटीं
वांय्गीं तेंड्लीं भाजिये सोपां
कासुळेचीं पिट्रशीं कापां
माव्शे, तुका रांदुन दितों
तुजे खोशियेंत दाधोस जातों
पुणगे सांगोंक लज्शी दिस्ता
हरशें हित्लांत जाय्ते आस्ता
पाटिक म्हज्या सय्तान लाग्ला
आजच हित्लांत कोलो रिग्ला !



आवय्स मित्रा, हुंव्रार उबो
खंती म्हज्यो जाल्यो गाबो
हरशें जाल्यार कोंबी मारतों
काज्चो सोरो ताळ्यांत भरतों
बाय्लेक सताव्न सन्ना करतों
तुजे सेवेंत अर्दे झरतों
कापी, दुधां बियर फेन्नी
कितें म्हण्चें म्हजी सनी
तोंड साडुंक लज्शी दिस्ता



हरशें दुडु खूबसो आस्ता
कोणगी म्हज्या मात्यार रड्ला

आजच बोल्साक बुराक पड्ला
आवय्स, म्हज्या काळ्जा गोंड्या
आजच आय्लेंय मोगा उंड्या
हरशें जाल्यार वेंगेंत वोड्तों
तोंडार तुज्या चित्रां काड्तों
उबाळ उमे पोल्यार जोड्तों
गालावय्लीं बिंरडां फोड्तों
आजगो बाये लज्शी दिस्ता
हरशें खाड्की साफसूफ आस्ता
तोंडार म्हज्या सोऱ्वो वाड्ला
आजच म्हजो वाकोर मोड्ला

## 65. रांदलें रांदप

रादलें रांदप चिंतल्यापरी पानार पावना
नांगा ना ना नांगा ना ना

रात म्हणा मेणालागीं वात जळटाना
रातय आसा वातय आसा तुंच मुंगोना

लेंव्ट्या नाकाक आदींच कशी गजाल कळ्ळीना
झाय लेगुन बाव्ली जाल्यार परमळ दिंव्चीना

उमळ्यांचे काट जिरून दूक गळटाना
गळय्लेलें दूक दोळो परत घेंव्चोना

तानेक म्हणुन निर्वोग नास्तां दऱ्याक उड्टाना
दऱ्यो ताची तान भागोव्न, तुजी भाग्चिना

साय्बिणिच्या मोगान वाट्लेक पाव्ली घाल्ताना
मोगय गेलो, पाव्लीय गेली परत येंव्चीना



## 66. आगा कोंकणी गांवागा

सगळें गुमट व्हजून
बाय तुका काड्लेंगो विंचून
आतां गुमट फोड्शी जाल्यार
कशें व्हरूंगो सोसून ?

तशी तुजी म्हजी भास
आम्च्या अंतरमळाचो लास
तिका नाच केली जाल्यार
आमी सगळींच जालीं नास

आगा कोंकणी गांवागा
कोंकणी भाषेक पावागा
गाळी कोणाक सोंव्च्यो जाल्यार
आम्चे भाषेन सोंवागा



आम्च्या आंगार खोमिस ना
टाय कॉलर शर्ट अँड बनियाना
आनी अशेंच दीस गेल्यार
चोव्का कुड्कोय उरचोना

# 67. शेवियो रोस

दांबगे येज्मानी
शेवियो घोस घोस
कुमाद्रीन धाड्तां म्हळां
नारला वोळ्या रोस

किरा साळेरांची जोडी
घडिये दोंगरार रम्लीना
रोस आनी शेवियां सांगडी
जोडी केदीं जम्लीना
कुमाद्रीच्या मोगामायेक
करीनाकाय मोस

दांबगे येज्मानी .......

आव्लीनांगो पाव्लीना
आम्गेर कशें राव्लेंना
शेवियो रोस खायलें तरी
ताळ्या सक्ला देंव्लेना
हांवगो शेवी धवी धवी
तूं आप्पोसाचो रोस
दांबगे येज्मानी ........



## 68. मागिरचें मागिर

पोटाक कोको
उष्टों सुको
भेष्टो पोको

अत्म्याचो तो रोगगा
लांब जियों मोगगा

मात्यार पाकें
मोनें मुखें
चिंतप सुकें

मतिचो तो सोंगगा
लांब जियों मोगगा



पाटिर पापो
तोंडार कोपो
झेता थापो

दस्तुरेचो डोंगगा
लांब जियों मोगगा

## 69. शिरिगुंडि शिमांव

बोल्सांत आसोन कास
जरी सुट्लो तुजो काच
भोंकाक तुजा येतलोगा
सुगंधेचो वास

रे शिमांव रे शिमांव
शिरिगुंडि शिमांवगा
रे शिमांव रे शिमांव
संसार तुजो दास

बोल्सांत नात्ल्यार कास
चोंय वाटेन त्रास
कोरगाराचो कुत्रो लेगुन
कुल्यांक मारी घास

रे शिमांव, रे शिमांव
शिरिगुंडि शिमांवगा
रे शिमांव रे शिमांव
संसाराक ना भास

बोल्सांत नात्ल्यार कास
मेजार नात्ल्यार मास
तिरसुल्यांच्यो शिंपियो तरी
बोल्सांत हालय रास

रे शिमांव, रे शिमांव
शिरीगुंडी शिमांवगा
रे शिमांव, रे शिमांव
संसाराक ना भास

## 70. पुन्वेचा चंद्रा



लेस उसाले केस भिसाळ्ळे
वेंगुन धररे मित्रा
वोंट हुळ्वुळे उम्यांक आशेले
गोपांत घेरे मित्रा
पुन्वेचा पुन्वेचा चंद्रा
पुन्वेचा चंद्रा

काळिज भिंयेता तोंड मुयेता
सांगोंक गागेता
कुडी अतम्यार तर्नाट्पणाची आंक्री जागेता
पय्शिल्यान देक्लेंना, देक्ल्यारय लाग्शिल्यान लेक्लेंना,
जीव भिजोता, लज दिसोता
आय्क म्हज्या उत्रा तुं पुन्वेचा चंद्रा
पुन्वेचा पुन्वेचा चंद्रा
पुन्वेचा चंद्रा

रातीचीं सप्णा, सप्णांत भोग्णा
मव्या झोडिंचीं
वादळाविणे उब्तात न्हेस्णा तरन्या कुडिंचीं
धर्लीं तर मेळनांत, मेळ्ळ्यारय मुटितं रावनांत
मतिचा रोगा, धांव्डाय मोगा
उज्वाडाचा उतरा तूं पुन्वेचा चंद्रा
पुन्वेचा पुन्वेचा चंद्रा
पुन्वेचा चंद्रा

# 71. मोग म्हळ्यार कितें ?

मोग म्हळ्यार कितें ? मोग म्हळ्यार कितेंरे नरा ?
केव्लो काळ्जांत रिगल्लयाफरा
तक्ली पंदा पाय वाऱ्यार
शिंतिद केन्ना नास्तां थाऱ्यार
काकिये मुळां जिबे पंदा हरद्यागुडा संदाक संदा

धस धस धस धस जाता
धस धस धस धस जाता

मागिर नाच नाच नाच्याशें जाता
वेड्कोळ गालुन दोळे मारून
पोटलुन धरून शिंतिद फारून ....... हा
नाच्याशें जाता
मोग म्हळ्यार कितें ? मोग म्हळ्यार कितेंगो नारी ?
यम्कोंडाची उज्यासारी
हुलोप ताचो जब्बोर तरी
जाय्ना केदीं गोबोर करी
नाका मुळां काळ्जां पंदा शिरान शिश सदानं सदां

ल्हास ल्हास ल्हास ल्हास येता
तरी नाच नाच ......... नाच्याशें जाता

मोग म्हळ्यार कितें ? मोग म्हळ्यार सांग्चें कितें
मेण मेण जाता मातें
आत्म्यांतुले कुडिंतुलें
मतिंतुलें चेतन सग्ळें
उज्यावय्ल्या दुधाबरी खत्खत्यान उबार सरी

घास घास घास घास जाता
रांद्दिण मुळांत वोतुन वेता ।

## 72. पार्टी पळेनाका

काळिज म्हजें भोळें, उतर म्हजें मेळें
मिलन जातच तंचे, धवेंय जालें काळें
आतां उम्कोळ घेतां, गिदान वोड्लीं मासां
सुणीं लेंव्तात हाडां, चिंत्नेन जिवोच आसां
सुणी लेंव्तात हाडां, चिंत्नेन जिवोच आसां

तुं जिणी झळय्नाका, दोळे वोळय्नाका
हांव तुज्याच पाट्ल्यान आसां - पुण पाटीं पळेनाका

काळ्जांत रुप्णे तुजें मोगान वाडोन आय्लें
चोरुन रुप्णे तुवें, पर्कयाचा चेप्याक लाय्लें
आतां भिरांत धरताय, पातक म्हणोन रड्ताय
हावंगो उम्कोळांत्ल्यान तुका भुझय्त आसां
तुका धस्तिनाका, पातक उस्तिनाका

हांव तुजाच्य पाट्ल्यान आसां - पुण पाटीं पळेनाका
आजून पासांत आसां कुसोन यतात मासां
शिरांची जाल्यांत भेसां, जिवांत उन्त्यांत कुसां
जरी उम्कोळ घेतां, तांतुंच जिवो जातां
तुज्या काज्रा दिसा सांगोंक उभो जातां
बाये कन्नानाका जियेंव्क, नन्नानाका
हांव तुज्याच पाट्ल्यान आसां पुण पाटीं पळेनाका



# 73. खंय वेताय सांग चाफ्रा

चाफ्राबाबाचा मरणा दखयांत तोवल्ल्या हजारों अभिमानी पय्किंत्लों एक्लो बाब डेनिस मोंतेर चाफ्राबाबाचा आत्मीय मन्शां पय्किंत्लोय एक्लो. 'मांड सोभाण' चो कार्यकारी समिती सांदोय तो जाव्नासा. चाफ्राबाबाचा वेग्ळाचाराचा सिंतिमेंताचे उमाळे हया कवितेद्वारीं ताणे उचारल्यात. हो आदेव्स हजारों कोंकणीलोकां तर्फेन चाफ्राबाबाच्या पांयाथळा अर्पित करतांव

खंय वेताय सांडुन आतां ?
तोडुन काडुन पर्नी घडपां
जोडुंव्क शिकव्न नवीं बादपां
नव्या दिश्टिन पळेंव्क फालें कोण आसा ? सांग चाफ्रा

कीर कोगुळ काव्ळ्या कोंब्ल्या
आशा खुश्यो आसा तश्यो
वाचुन सांग्पी कोण आसा ? सांग चाफ्रा

गोरुं बैरुं मेरुं मांकडा
कुस्त्यो मस्त्यो उगत्यान उस्तुन
भिास्तेन गुंतुकं कोण आसा ? सांग चाफ्रा

गांड्या बोंड्या शेंड्या साड्या
सोभाय सुंन्गार पुराय रंगार
सुरायेन रंग्पी कोण आसा ? सांग चाफ्रा

मालकांच्यो घडामोडी, कामेल्यांच्यो ताडवोडी
धार्मिकांच्यो फडाफडी, भिंयाविण खडाखडी
किडव्कं आनी कोण आसा ? सांग चाफ्रा

जिवितांत्ली सतां कवितेंत्ल्या उत्रानी
नवीं तंत्रा नवीं सूत्रां
नाटकानी पत्रानी उत्रांन्चो मांत्रिक - कोण आसा ? सांग चाफ्रा

तुज्या मेटानी बाक्कार पिदुंकं
तुज्या सण्णानी अक्कल शिदुंकं
त्राण आम्का खंय आसा ? सांग चाफ्रा
खंय वेताय ? सांडुन आतां सांग ....... सांग ....... सांग चाफ्रा

# ಮೊತಿಯಾಂ

ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಚಿಂ ಪದಾಂ

ಸಂಪಾದಕ್

ಶ್ರೀ ಫ್ರೆಡ್‌ಕುಮಾರ್ ಕುಚ್ಚಿಕಾಡು

ಪ್ರಕಾಶಕ್

ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್ ಪ್ರಕಾಶನ್

ಹಾಂತ್ಲಿಂ 4 - 5 ಸೊಡ್ನ್ ಉರ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಪದಾಂಕ್ ಶ್ರೀ ಎರಿಕ್ ಓಜೇರಿಯೊ ಹಾಣೆಂ ತಾಳೊ ಆನಿ ಸಂಗೀತ್ ಬಸಯ್ಲ್ಯಾಂ.

# "MOTIYAN"

A Collection of songs of Late Chafra Decosta.

Year 1993


'AASRO', Seminary View,
III Cross, Mangalore -575002 D.K.

Edited by : Sri Fred Kumar, Kuchikadu

Publisher : MANDD SOBHANN PRAKASAN,
KONKANI CULTURAL CENTRE
'AASRO', Seminary View,
III Cross, Mangalore -575002 D.K.



***Printed at : Digantha Mudrana Ltd.***
***Yeyyadi, Mangalore -8. Ph: 412551.***

Illustrations & Art Work :
JAGATH ARTS,
BENDOORWELL, MANGALORE-2

Price Rs. 20.00

# ಮರ್ಣಾಚೆರ್ ಜಯ್ತ್ ಜೊಡ್‌ಲ್ಲಿಂ ಕಾಂತಾರಾಂ

ಪರ್ಯ್ಕಾನ್ ತಿಂಬ್ ಉತ್ರಾಂ ಉಚಾರಿಜೆ ಪಡ್ಯಾತ್: ತೊ ಜಬರ್‌ದಸ್ತ್ ಉಜ್ವಾಡಾಚ್ಯಾ ಕಿರ್ಣಾಳ್ ಸುರ್ಯಾಬರಿ ಆನಿ ಹಾಂವ್ ಮಂದ್ ಪ್ರಕಾಸಾಚ್ಯಾ ಮೆಣಾಳ್ ವಾತಿಬರಿ; ತಾಚೆ ವಿಶಿಂ ಹಾಂವ್ ಕಿತೆಂ ಮ್ಹಣ್ ಬರಂವ್? ತೊ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಶಾಣ್ಯಾ ಬಾಪಾಯ್‌ಬರಿ ಆನಿ ಹಾಂವ್ ತಾಚ್ಯಾ ನೆಣ್ಯಾ ಪುತಾಬರಿ; ತಾಚೆವಿಶಿಂ ಹಾಂವ್ ಕಿತೆಂ ಮ್ಹಣ್ ಸಾಂಗೊಂ? ತರ್‌ಯ್ ಥೊಡೆಪಾವ್ಟಿಂ ಪೊಸೊಭರ್ ಮಿಟಾನ್ ದರ್ಯಾವಿಶಿಂ ಚಿಂತಿಜೆ ಪಡ್ಯಾ ಆನಿ ಥೆಂಬೆ ಥೆಂಬೆ ಪಿಟಾನ್ ರುಚೆಚ್ಯಾ ಪಾನ್ಪೊಳ್ಯಾಂವಿಶಿಂ ತಕ್ಲಿ ಖಿರಯ್ಜೆ ಪಡ್ಟಾ. ಕಿರ್ಣಾಂ ಕಾತಿಂತ್ ರೊಂಬ್ಲ್ಯಾಶಿವಾಯ್ ಸುರ್ಯಾಚಿ ಧಾವ್ ಸಾಂಗೊಂಕ್ ಕಳನಾ ಆನಿ ಮೀಟ್ ಪೆಜೆಂತ್ ಚಾಕ್ಲ್ಯಾಶಿವಾಯ್ ದರ್ಯಾಚೆಂ ಮೋಲ್ ಮೆಜುಂಕ್ ಮೆಳನಾ. ದೆರುನ್ ದಿ. ಚಾಫ್ರಾಚ್ಯಾ ' ಮೊತಿಯಾಂ' ಪುಸ್ತಕಾಕ್ ಹಿಂ ಪ್ರಸ್ತಾವನಾಚಿಂ ಉತ್ರಾಂ ಬರಯ್ತಾಂ :

ಮಂಗ್ಳುರಿ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕವಿತಾಶೆತಾಂತ್ ಹ್ಯಾ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಚ್ಯೆ ಸುರ್ವೆರ್ ಬೋವ್ ಥೊಡೆ ಅನಾಮಿಕ್ ಕವಿ ರಾಜ್ವೊನ್ ಮಾಜ್ವಲ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಥಿರಾಸಾಣೆಚೊ ಕವಿ ಉಬ್ಜಾಲ್ಲೊ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್ ಲುವೀಸ್ ಮಸ್ಕರೇನ್ಞ. ಮಸ್ಕರೇನ್ಞಾ ಸಾಂಗಾತಾ ಆನಿ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಪನ್ನಾಸಾವ್ಯೆ ಇಸ್ವೆ ಪರ್ಯಾಂತ್ ಮಿಣ್ಕಾಲ್ಲೆ ಕವಿ ಮಸ್ಕರೇನ್ಞಾಚ್ಯಾ ಪಾಯಾಂಥಳಾಯ್ ಪಾವ್ನೆನಾಂತ್. ಕೊಂಕ್ಣಿಲೊಕಾಕ್ ಕವಿತೆಚೆಂ ಗಂಧ್‌ವಾರೆಂ ಜಾಯ್ನಾತ್ಲೆಂ ಮ್ಹಣ್ಟಾನಾ ಕೊಣೇಂಯ್ ಕಿತ್ಯಾಪಾಸೂನ್ ಖಂಯ್ಚ್ಯಾ ಗುಂದ್ಯಾಚೆರ್ ಕವಿತಾ ರಚ್ಚಿ ? ಹ್ಯಾ ಕಿತ್ಯಾಚೆಚ್ ಪರ್ವಾ ಕರಿನಾಸ್ತಾನಾ ಚಾ.ಫ್ರಾ. ದೆಕೊಸ್ತಾನ್ ಮಸ್ಕರೇನ್ಞಾನ್ ನಾಂಗ್ರಾಯಿಲ್ಲ್ಯಾ ಶೆತಾಂತ್ ಬೆಳೆಂ ಕಾಡುಂಕ್ ಸುರು ಕೆಲೆಂ. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕವಿತೆಕ್ ಮರ್ಯಾದ್ ಹಾಡ್ಚೆಖಾತೀರ್ ಸಪ್ಣಾಂಭಿತರ್ಲ್ಯಾ ಸಪ್ಣಾಂನಿ 'ಸಪ್ಣಾಂತುಲೆಂ ರಾಜ್' ಬಾಂದುನ್ ತೊ ಪೆಚಾಡ್ಲೊ. ತಾಚೆಚ್ ಮ್ಹಳ್ಳಿ ವೆಗ್ಳಿ ವಾಟ್ ಧರ್ಲಿ. ಕೊಣೇಂಯ್ ತಾಚೊ ಪಾಟ್ಲಾವ್ ಕರುಂಕ್‌ನಾ ತರ್‌ಯ್, ಪಾಟಿಂ ತಾಣೆ ಪಳೆಲೆಂ ನಾ ಪಾಟಿಂ ಪಳೆಂವ್ಕ್‌ನಾ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾನ್ ತಾಕಾ ಆಪುಣ್ ಎಕ್ಸುರೊ ಮ್ಹಣ್ ಕಳ್ಳೆಂಚ್‌ನಾ. ಕೆದೊಳ್ ಪರ್ಯಾಂತ್? ಚಾಳ್ಸಾಂವಯ್ರ್ ವರ್ಸಾಂಚ್ಯಾ ಹ್ಯೆ ಕವಿತಾಜಿಣ್ಯೆಂತ್ ಆಕ್ರೇಚ್ಯಾ ಪಾಂವ್ಡ್ಯಾರ್ ತಾಚ್ಯೊ ಕವಿತ್ಯಾ ' ಪರಡೆಲಾ' 'ರಂಗ್-ತರಂಗ್' ಪಂಗ್ಡಾಂನಿ ಪದಾಂಖಾತೀರ್ ಆಪ್ಣಾಯ್ತಾಚ್ 'ಮಾಂಡ್‌ಸೊಭಾಣ್' ಪಂಗ್ಡಾನ್ ತಾಚ್ಯಾ ಕವಿತಾಂಕ್

ನವಿಚ್ ಘುಂವ್ನಿ ದಿಲಿ. ಪದಾಂಚ್ಯಾ ಕೊವ್ಳ್ಯಾಂನಿ, ದೂರ್‌ದರ್ಶನಾಚ್ಯಾ ಕಾರ್‍ಯಾಂನಿ ಚಾ.ಫ್ರಾ., ಲೊಕಾಕ್ ಲಾಗಿಂ ಜಾಲೊ. ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣಾವರ್‍ವಿಂ ತಾಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಲೊಕಾಚ್ಯಾ ತೊಂಡಾಂನಿ ಘೊಳುಂಕ್ ಸಾಧ್ಯ್ ಜಾಲ್ಯೊ. ಮಾಂಡ್‌ಸೊಭಾಣಾನ್ ಕಿತೆಂ ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಕ್ ದಿಲೆಂ ಆನಿ ಚಾ.ಫ್ರಾ.ನ್ ಕಿತೆಂ ಮಾಂಡ್‌ಸೊಭಾಣಾಕ್ ದಿಲೆಂ-ತೆಂ ಹಾಂಗಾ ಬರವ್ನ್ ಪುರೊ ಪಡ್ಚೆಂಯ್ ನಾ. ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾಂ ಭುರ್‍ಗ್ಯಾಂ ತಾಕಾ ಶಾಳೆಂತ್ ಶಿಕ್ತಾಲಿಂ ತರ್‌ಯ್, ಜಾಗ್ ಪ್ರಕಾಶನಾನ್ ತಾಚೆಂ 'ಸೊಂಶ್ಯಾಚಿ ಕಾನ್' ಪುಸ್ತಕ್ ಪರ್ಗಟ್ತಚ್ ಘರಾಂನೀಯ್ ತಾಕಾ ವಾಚ್ಯೊ ಆವ್ಯಾಸ್ ಲಾಬ್ಲೊ. ತ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಕ್ ಕೇಂದ್ರ ಸಾಹಿತ್ಯ ಅಕಾಡೆಮಿಚಿ ಊಂಚ್ ಪ್ರಶಸ್ತಿ ಆಪ್ಣಾಯ್ತಚ್, ತಾಚೆಂ ಪುಸ್ತಕ್ ಪ್ರಗತಿ ಪ್ರಕಾಶನಾನ್ ಕಾನಡಿ ಲಿಪಿಂತ್‌ಯ್ ಪರ್ಗಟ್ಲೆಂ. ಪಾಟಾಪಾಟ್ ಮಂಗ್ಳುರಿ ಕೊಂಕ್ಣಿಪರ್ಜೆನ್ ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಕ್ 'ಕೊಂಕಣಿ ಸಾಹಿತ್ಯ ಕುಲರತ್ನ' ಮ್ಹಳ್ಳೆಂ ಬಿರುದ್‌ಯ್ ದಿಲೆಂ.

ಮ್ಹಜೆಲಾಗಿಂ ತಶೆಂಚ್ 'ಜಾಗೆ ಕವಿ' ಪಂಗ್ಡಾದ್ವಾರಿಂ ಮಂಗ್ಳುರಿ ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ಲ್ಯಾ ಜಾಯ್ತ್ಯಾ ಕವಿಂಲಾಗಿಂ ಚಾ.ಫ್ರಾ.ನ್ ಸಂಬಂಧ್ ಜೊಡ್‌ಲ್ಲೊ. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕವಿತಾ ಶೆತಾಂತ್ ಆಯ್ಲೆಲ್ಯಾ ಜಿ ಬದ್ಲಾವಣ್ ಘಡ್ಲ್ಯಾ, ತಾಕಾ ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಕಾರಣ್ ನ್ಹಂಯ್ ಮ್ಹಣ್ ಸಾಂಗೊಂಕ್ ಕೊಣ್‌ಯ್ ಧಯ್ರ್ ಘೆಂವ್ಚ್ಯಾನಾ. ತಾಚ್ಯೆ ಸಾವ್ಳೆಂತ್ ಆಮ್ಚೆ ಜಾಯ್ತೆ ತರ್ನಾಟೆ ಕವಿ ವಾಡೊನ್ ಆಯ್ಲ್ಯಾತ್ ಆನಿ ಆತಾಂ ತಾಚ್ಯಾ ಮರ್ಣಾಂತ್ ತಾಂಣಿ ತಾಂಚ್ಯೊಚ್ ವೆಗ್ಳ್ಯೊ ತರ್‌ಯ್ ಕೊಂಕ್ಣಿಕ್ ಊಂಚ್ ಉಬಾರ್‍ಯ್ಯೊ ವಾಟೊ ಧರುಂಕ್ ಆಸಾತ್. ತಾಚೆಂ ಮರಣ್ ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಕವಿಂಕ್ ಜಿಯೆಂವ್ಚೆಂ ಧಯ್ರ್, ಕವಿ ಜಾವ್ನ್ ಉಂಚಾಯೆಕ್ ಚಡ್ಚೆಂ ಹಟ್ ಘಾವೊ ಕರ್‍ಯ್ಯಾಂತ್ ನವಲ್ ನಾ.

'ಮೆಲ್ಲೆ ಮ್ಹಶೀಕ್ ಬಾರಾ ಶೆರ್ ದೂದ್' ಮ್ಹಣ್ಚೆಬರಿ ಚಾಫ್ರಾ ಮಾತ್ಶೆಕ್ ಸಾರೆಂ ಜಾಲ್ಲೊಚ್- ಕೊಂಕ್ಣಿಚೊ ಭೀಷ್ಮ, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಮಳ್ಬಾವಯ್ಲೆಂ ಶಿಮ್ಟಿ ನೆಕೆತ್ರ್ - ಜಾಲೊ. ಪುಣ್‌ಮ್ಹಾಕಾ ಆನಿ ಚಡೀತ್ ಕರುನ್ 'ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್' ಪಂಗ್ಡಾಚ್ಯಾ ಎರಿಕ್ ಒಝೇರಿಯೊಕ್ ಚಾಫ್ರಾಚೊ ಜಲ್ಮ್, ತಾಚಿ ಜಿಣಿ ಆನಿ ತಾಚೆಂ ಮರಣ್ ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಜಿವಿತಾಚೊ ಅರ್ಥ್ ಸೊಡುಂಕ್ ಸವಾಲ್ ಉಡವ್ನ್ ಗೆಲಾಂ.

ಬರವ್ಪಿ ಜಾವ್ನ್ ಚಾಫ್ರಾಕ್ ಸಮಾಜೆಚೊ ಹುಸ್ಕೊ ಆಸ್‌ಲ್ಲೊ. ತಾಚೆಂ ಪತ್ರಾಂ ಬಾಳ್ಪಾಲಿಂನಾಂತ್. ಬಾಳ್ಪಾಲಿಂನಾಂತ್ ಮ್ಹಣ್ಚ್ಯಾಕ್‌ಯ್ ಬದ್ಲೊಂಕ್ ತಯಾರ್ ನಾತ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಆಮ್ಚೆ ಸಮಾಜೆನ್ ತಿಂ ಮಾಂಡ್ಲಿಂನಾಂತ್. ತಾಚ್ಯಾ ನಾಟಕಾಂಚಿ ಗತ್‌ಯ್‌ತಶೀಚ್ ಜಾಲಿ. 'ದೂರೂ' 'ತರ್ನೆಂ ತರ್ನೆಂ ಮೊರ್ನೆಂ' ತಸಲಿಂ ನಾಟಕಾಂ ತೀಸ್

ವರ್ಸಾಂ ಆದಿಂ ಲೊಕಾನ್ ಇನ್ಕಾರ್ ಕರುನ್ ಆಯ್ಲೆವಾರ್ ಇನಾಮಾಂಚೊ ಶಿಂವೊರ್ ವೊತುನ್ ಆಪ್ಣಾಯ್ಲೆಂ. ಮ್ಹಣ್ಚೆಚ್ ಚಾಫ್ರಾಚ್ಯಾ ದೊಳ್ಯಾಂ ಮುಕಾರ್ ತೀಸ್ ವರ್ಸಾಂ ಉಪ್ರಾಂತ್ಲಿ ಸಮಾಜ್ ಆಸ್‌ಲ್ಲಿ. ತಾಣೆ ಫುಡಾರಾಖಾತೀರ್ ಬರಯ್ಲೆಂ. ತಾಚ್ಯಾ ಆನಿ ಆಮ್ಚೆ ಸಮಾಜಚ್ಯಾ ಚಿಂತ್ಪಾಚ್ಯಾ ವೆಗಾಚೊ ಫರಕ್ ಕಿತ್ಲೊ ಜಾಣಾಂತ್? ಏಕ್ ನ್ಹಯ್, ದೋನ್ ನ್ಹಯ್...ತೀಸ್ ವರ್ಸಾಂ!

ಚಾಫ್ರಾ ಏಕ್ ಉತ್ತೀಮ್ ಭಾಷಣ್‌ಗಾರ್. ತಾಚ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂಚಿ ಧೊಮೊಸ್ ಆಯ್ಕೊವ್ಪ್ಯಾಚ್ಯಾ ಕಾಳ್ಜಾಕ್ ರೊಂಬ್ತಾಲಿ ಆನಿ ಕಾನಾಂಕ್ ನಾಟ್ವತಾಲಿ. ತಾಚ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂನಿ ಮನಾಂ ಪಿಸ್ವಂವ್ಚೊ, ಕಾಳ್ಜಾಂ ಧಲಂವ್ಚೊ ಜಾದೂ ಆಸ್‌ಲ್ಲೊ. ಹೊ ಜಾದೂ, ತಾಚ್ಯಾ ಮರ್ಣಾನ್ ಆಮ್ಚೆಥಾವ್ನ್ ಝೂಂಪಯ್ ಮಾರ್ನ್ ವೆಲಾ ತರ್‌ಯ್ ತಾಚ್ಯಾ ನಾಟಕಾಂ ಆನಿ ಕವಿತವರ್ವಿಂ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂಕ್, ಕೊಂಕ್ಣೆಚಿ ಪಿಳ್ಗಿ ಬಾಳ್ವತಾವರೇಗ್ ಶಾಸ್ವಿತ್ ಉರ್ತಲೊ.

ಪತ್ರ್‌ಕಾರ್ ಜಾವ್ನ್ ಚಾಫ್ರಾ ಸಾಂಗಾತಾ ಉಣ್ಯಾರ್‌ಉಣೆ ಸಾತ್ ವರ್ಸಾಂ ತರ್‌ಯ್ ಖಾಂದಾಕ್ ಖಾಂದ್ ಲಾವ್ನ್ ಮ್ಹಳ್ಳೆಬರಿ ಹಾವೆಂ ತಿಂತೇರ್ ಝುರಯ್ಲ್ಯಾಂ. ಹರ್ಯೆಕಾ ಅಂಕ್ಯಾಪಾಟ್ಲ್ಯಾನ್ ತಾಣೆ ಕರ್ಚೆ ತಿ ತಯಾರಾಯ್ ವಿಷಯ್ ಮಾಂಡುನ್ ಹಾಡ್ಚಿ ರೀತ್, ಲೇಖಿನ್ ತಯಾರ್ ಕರ್ಚ್ಯಾಂತ್ ಕಸಲೆಚ್ ಕಶ್ಟ್ ಲೆಕಿನಾಸ್ತಾಂ ಕರ್ಚೊ ವಾವ್ರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಪತ್ರ್‌ಗಾರಿಕೆಂತ್ ಹಾವೆಂ ಆದಿಂ ಜಾಂವ್, ಆತಾಂ ಜಾಂವ್ ದೆಕೊಂಕ್‌ನಾ. ದುಡ್ವಾಚ್ಯೆ ಅಡ್ಚಣೆಕ್ ಆನಿ ಜಾಯ್ತ್ಯಾ ಹೆರ್ ಕಾರಣಾಂಕ್ ತಾಚಿಂ ಪತ್ರಾಂ ಕುರ್ವಾಲಿಂ ತರಯ್, ಕಾಡ್‌ಲ್ಲ್ಯೊ ಹರ್ಯೆಕ್ ಅಂಕೊ ಕೊಂಕ್ಣೆಚೆ ಚರಿತ್ರೆಂತ್ ಶಾಸ್ವಿತ್ ಉರ್ತಲೊ.

ಪುಣ್ ಸಾಹಿತಿ ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಕ್ ಹಾವೆಂ ಚಡೀತ್ ಪಸಂದ್ ಕೆಲ್ಲೊ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್ ಕವಿ ಜಾವ್ನ್ ! ಹರ್ಯೆಕ್ ಕವಿತಾ ನವ್ಯಾ ಚಿಂತ್ಪಾಚ್ಯೆ ಬುನ್ಯಾದಿಚೆರ್ ತೊ ರಚ್ತಾಲೊ. ತ್ಯೊ ವಾಚ್ತಲ್ಯಾರ್ ಏಕೇಕ್ ಪಾಖ್ಳಿಂ ಏಕೇಕ್ ಇಮಾಜಿ ದೊಳ್ಯಾಂಮುಕಾರ್ ಫುಡ್ ಜಾತಾತ್. ಸಾಂಜೆಚ್ಯಾ ಸುರ್ಯಾನ್ ಮೊಳ್ಬಾಚ್ಯಾ ಪೊಲ್ಯಾರ್ ಪಸ್ರಾಂವ್ಚ್ಯಾ ರಂಗಾಬರಿ ತಾಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ರಂಗಾಳ್. ಆಪುಟ್ ದುಧಾಂತ್ ಲೊಣಿ ಉಪ್ಕೆಲ್ಲೆಬರಿ ತಾಚ್ಯೆ ಕವಿತೆಂನಿ ಸಂಗೀತ್ ಉಪ್ಕೆತಾ. ತಾಚ್ಯೆ ಕವಿತೆಂಚೊ ಸ್ವಾಧ್- ವಾಚುನ್ ಜಿರಯ್ತಲ್ಯಾಂಕ್ ಮಾತ್ ಕಳಿತ್. ತಾಚ್ಯೆ ಕವಿತೆಂನಿ ಮ್ಹಾಕಾ ಹರ್ಯೆಕ್ ಪಾಖ್ಳಿಂ ನವೊಚ್ ಅನ್ಭೋಗ್ ದಿಲಾ ಆನಿ ತ್ಯಾದೆಕುನ್ ತಾಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಪರಿಕ್ಷೆಕ್ ಭುರ್ಗ್ಯಾನ್ ಲಿಸಾಂವ್ ಶಿಕ್‌ಲ್ಲೆಬರಿ ಹಾಂವ್ ಶಿಕ್ಲಾಂ

ಚಾ.ಫ್ರಾ.ನ್ ಪದಾಂ ತೀನ್ ವೆವೆಗ್ಳ್ಯಾ ಪಾಂವ್ಡ್ಯಾಂಚೆರ್ ಘಡ್‌ಲ್ಲಿಂ. ಪಯ್ಲೆಂ ನಾಟಕಾಂ ಖಾತೀರ್ ತಾಣೆ ಹೊ ವಾವ್ರ್ ಕೆಲೊ ತರ್, ಉಪ್ರಾಂತ್ ಥೊಡ್ಯಾ ಸಂಗೀತ್

ಕಾರ್‍ಯಾವಳಿಂಖಾತೀರ್ ತಾಣೆ ಪದಾಂ ಘುಡ್ಲಿಂ. ಆಕ್ರೇರ್ ತಾಚ್ಯೊ ಕವಿತಾಚ್ 'ಮಾಂಡ್‌ಸೊಭಾಣ್' ಪಂಗ್ಡಾನ್ ತಾಳೆ ಬಸವ್ನ್ ಗಾಯ್ಲಿಂ. ಪುಣ್ ಚಾ಼ಫ್ರಾಚ್ಯಾ ಸಕ್ಕಡ್ ಪದಾಂಕ್ ಕವಿತೆಚೀಚ್ ಮರ್‍ಯಾದ್ ಆಸಾ. ತಾಳೆ ಲಾವ್ನ್ ತಿಂ ಗಾಯ್ತಾನಾ ತಾಂಕಾಂ ಆಮಿ ಪದಾಂ ಮ್ಹಣ್ಟ್ಯಾಂವ್ ತರ್‌ಯ್ ತಾಂಚ್ಯೆ ಬಾಂದಾವಳಿಚ್ಯೆ ದಿಶ್ಟಿನ್, ಅಲಂಕಾರಿಕ್ ದಿಶ್ಟಿನ್, ತಾಂತುಂ ಉಬ್ಯೊ ಜಾಂವ್ಚ್ಯಾ ಇಮಾಜಿಂಚ್ಯೆ ದಿಶ್ಟಿನ್, ಚಿಂತ್ಪಾಚ್ಯೆ ಗುಂಡಾಯೆ ದಿಶ್ಟಿನ್ ಚಾ಼ಫ್ರಾಚಿಂ ಪದಾಂ ಕವಿತಾಚ್! ಉಪ್ರಾಂತ್ ತಾಂತ್ಲೊ ಲಯ್, ತಾಳ್ ಆನಿ ಉಪ್ಮೆಂವ್ಚ್ಯಾ ಸಂಗೀತಾವರ್ವಿಂ ತಿಂ ಆಪಾಪಿಂಚ್ ಪದಾಂ ಜಾವ್ನ್ ಬದಲ್ಲ್ಯಾಂತ್. ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಚ್ಯಾ ಚಡುಣೆ ಸರ್ವಯ್ ಕವಿತಾಂಕ್ ಕಾಂತಾರಾಂ ಜಾವ್ನ್ ಬದ್ಲುಂಚೆ ಸಕತ್ ಆಸಾ ಆನಿ ತಾಚಿಂ ಸರ್ವಯ್ ಕಾಂತಾರಾಂ ಆಪ್ಲೆಸ್ತೆಕಿಂ ಕವಿತಾ ಜಾವ್ನ್ ಉರ್ತಾತ್.

ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಚ್ಯಾ ಪದಾಂನಿ ಮೊಗಾಚಿಂ ಮೇಲ್, ನಿರಾಶೆಚಿಂ ತೇಲ್ ಸರಾಗ್ ಉಪ್ಶೆತಾ. ಹೊ ಮೋಗ್ ಉತಳ್ ನ್ಹಯ್, ಗುಂಡಾಯೆಂತ್ ಪಾಳಾಂ ರೊಂಬಯಿಲ್ಲೊದೆಕುನ್ ಮೆಂದ್ವಾಂತ್ ಮೊಗಾಚ್ಯಾ ಚಿಂತ್ನಾಂಚೊ ರೊವೊ ಸದಾಂಯ್ ಕಿರ್ಲತಾ. ಖಂಯ್ ಏಕ್‌ಪಾಚ್ಫಿಂ ತೊ ಫೂಲ್ಯಾವಲಿಂ ಭಿಂಡ್ಡಾಂ ಫುಡುಂಕ್ ಉಡ್ಡಾತಾ ಆನಿ ಖಂಯ್ ಏಕ್‌ಪಾಷ್ಟಿಂ ಮೋಗ್ ಕರುಂಕ್ ವಚುನ್ ಚೆಡ್ವಾಚ್ಯಾ ಕೆಸಾಂಚಿ ಬೊಬ್‌ಪಿನ್ ಆನಿ ಬಾಜ್ವೆಚಿ ಆಲ್ಪಿನ್ ಗಾಲಾಂನಿ ರೊಂಬವ್ನ್ ರಗ್ತಾಚೆ ವ್ಹಾಳ್ ವ್ಹಾಳಯ್ತಾ. ಮೋಗ್ ತಿತ್ಲ್ಯಾರ್ ನಿವನಾ; ಆಲ್ಪಿನಚೊ ಕಾಂಟೊ ಕಾಳೀಜ್ ಫಾಪ್ಸುಂದಿ ಮ್ಹಣ್ ತೊ ಬೊಬೋ ಘಾಲ್ತಾ.

ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಚ್ಯಾ ಕಾಂತಾರಾಂನಿ ಜಾನಪದಾಚೊ ಝುರೊ ತಶೆಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ರುಕಾವೆಲೊ ಘುರೊ ಭರೊನ್ ವ್ಹೊಮ್ತಾತಾ. 'ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಚಿಂ ರುದಾನ್,' 'ಆಮ್ಚಿ ಭಾಸ್' 'ಕೊಂಕ್ಣಿ ರಾಜಾರ್' - ತಾಚೊ ಕೊಂಕ್ಣಿಚೆರ್ ಆಸ್ಚೊ ಹುಸ್ಕೊ ದಾಕಯ್ತಾನಾ. 'ಅಡ್ಕುಲೊಗೊ ಬುಡ್ಕುಲೊ' 'ಸಾತ್ ಸಾತ್ ಚೊವ್ದಾ ಸನ್ನಾಂ', 'ಘಾರಾರ್ ಘಾರ್', 'ಕಾಲ್ ಸಾಂಜೆಚ್ಯಾ ವಾಡಾಳಾರ್', ಕಲ್ವಂತಾಚ್ಯಾ ಕಮ್ರಾವೆರಿ', 'ಬಾಣಾವ್ಲಚ್ಯಾ ರಾನಾಂತು', ಇತ್ಯಾದಿ ಪದಾಂ ಚಾ.ಫ್ರಾ. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಮಾತ್ಯೆಚ್ಯಾ ಚಮತ್ಕಾರೀಕ್ ಉತ್ರಾಂಚೊ ಸುತಾರಿ ಮ್ಹಳ್ಳೆಂ ಸಂಸಾರಾಕ್ ಕಳಯ್ತಾತ್.

ತತ್ವ/ಗ್ನ್ಯಾನ್ ಪಾಚಾರ್ಚಿಂ ಜಾಯ್ತಿಂ ಕಾಂತಾರಾಂಯ್ ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ ಆಸಾತ್. ಎಕೇಕ್ ಪದ್ ಎಕಾಪರಸ್ ಉಂಚ್ಲೆಂ- ಭುಂಯ್ ಮಂಡಳಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಎಕೆಕಾ ಘರಾಂತ್ ವ್ಹರ್ನ್ ಪಾವಂವ್ಚೆ ತಸಲೆಂ. ಹೊ ಅನ್ಭೊಗ್ ತುಮಿಂಚ್ 'ಮೊತಿಯಾಂ' ಪುಸ್ತಕ್ ಘೆವ್ನ್,

ಘೆತ್ಲ್ಯಾಉಪ್ರಾಂತ್ ವಾಚುನ್, ವಾಚ್ಲ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಗಾವ್ನ್, ಗಾಯ್ಲ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಹೆರಾಂಕ್ ಸಾಂಗೊನ್ ಭೊಗುಂಕ್‌ಜಾಯ್.

ಹಿಂ ಕಾಂತಾರಾಂ-ಚಾ.ಫ್ರಾ. ಮರೊಂಕ್‌ನಾ, ಜಿವಂತ್ ಆಸಾ ಮ್ಹಣ್ ಪಾಚಾರ್‍ಚಿಂ ಕಾಂತಾರಾಂ. ಹಿಂ ಕಾಂತಾರಾಂ ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಚ್ಯಾ ಮರ್ಣಾಚೆರ್ ಜಯ್ತ್ ಜೊಡ್‌ಲ್ಲಿಂ ಕಾಂತಾರಾಂ. ತಿಂ ಆತಾಂ ಬುಕಾರುಪಿಂ ಪರ್ಗಟ್ಚ್ಯಾ ' ಮಾಂಡ್‌ಸೊಭಾಣಾಕ್' ಶಾಭಾಸ್ಕಿ ದಿತಾನಾ, ತಿಂ ವಾಚುಂಕ್ ಸುರ್ವಾತ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ತುಕಾಯ್ ಚಾ.ಫ್ರಾ.ಚ್ಯಾ ಪದಾಂಚ್ಯಾ ಸಂಸಾರಾಕ್ ಬರೊ ಯೆವ್ಕಾರ್ ಮಾಗ್ತಾಂ.

'ಮೊತಿಯಾಂ' ಪುಸ್ತಕಾದ್ವಾರಿಂ ಚಾ.ಫ್ರಾ. ತುಮ್ಚ್ಯಾ ಸರ್ವಾಂಚ್ಯಾ ಘರಾಂನಿ ಸದಾಂ ರಾವೊಂ.

ಮೆಲ್ವಿನ್ ರೊಡ್ರಿಗಸ್
ರಿಯಾದ್.
14.03.1993

# ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಸ್ಕೃತೇ ಕೇಂದ್ರ್

"ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್" - ಆಮರ್ ಚಾಫ್ರಾಬಾಬಾಚೆಂ ಸಪಣ್, ತೆಂ ಉಟಾಉಟಂ ಜಾರ್ಯೆರ್ ಹಾಡ್‌ಲ್ಲೆಂ ಸಾಧನ್ ಎರಿಕ್ ಒಜೆರ್ ಬಾಬಾಚೆಂ. "ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್" ಇತ್ಲ್ಯಾ ಉಂಚಾಯೆರ್ ಪಾವಜೆ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಹ್ಯಾ ಸಂಸ್ಥ್ಯಾಚಾ ಕಾರ್ಯಕಾರಿ ಸಮಿತಿಚಾ ಸಾಂದ್ಯಾಂಚೊ ಮೊಟೊ ವಾವ್ರ್ ಆನಿ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಅಭಿಮಾನಿಂಚೊ ಸಹಕಾರ್ ಪ್ರಮುಖ್ ಕಾರಣ್.

1986 ವ್ಯಾ ನವೆಂಬ್ರಾಚೆ 30 ತಾರಿಕೆರ್ ಸ್ಥಾಪಿತ್ ಜಾವ್ನ್ ಆಜ್ 75 ವೆಂ ಯಶಸ್ವೀ ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್ ಕಾರ್ಯೆಂ ಪ್ರದರ್ಶಿತ್ ಕರ್ತಾ. ಹ್ಯಾ ಮಟ್ಯಾ ಅವ್ದೆಂತ್ ಆಮಿ ಕೆಲ್ಲ್ಯಾಂ ಸಾಹಸಿಕ್ ಸಾಧನಾದ್ವಾರಿ ಆಮ್ಕಾಂ ಸಮಾಜೆಂತ್ ಉಂಚಾಯೆಚೊ ಪಾಟ್ ಲಾಭ್ಲಾ. ತರ್‌ಯ್ ಹ್ಯಾ ಗರ್ವಾನ್ ಆಮಿಂ ಫುಮಾರ್ ಜಾಂವ್ಕ್ ನಾಂವ್.

ಆಮ್ಚೆ ಉದ್ದೇಶ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಗೀತಾಚಿ ಅಸ್ಮಿತಾಯ್ ಸೊಧ್ನ್ಯೊ, ತಾಕಾ ನವೆಂ ರೂಪ್ ದಿಂವ್ಚೊ ಮಾತ್‌ನ್ಹಯ್, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಲೋಕ್‌ವೇದ್, ದೇಶೀಯ್ ತಶೆಂಚ್ ನವೆಸಾಂವಾಚೆಂ ವಾದಳ್ ಉಟವ್ನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಸ್ಕೃತೆಕ್ ಸ್ವಷ್ಟ್ ರಿತಿರ್ ದೇಶೀಯ್ ವಿಶಿಷ್ಟತಾ ಆನಿ ಸ್ವರೂಪ್ ಮಿಸ್ಕ್ಯಾಂವ್ಚೆಂ, ವಿವಿಧ್ ಪ್ರಾಂತಾಂಚ್ಯಾ, ಭಾಸ್ಸುಟಾಂಚ್ಯಾ, ಕುಳಿಯೆಂಚ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕಲೆಕ್, ಕಲಾಕಾರಾಂಕ್ ಆನಿ ಕೊಂಕ್ಣಿಮೊಗಿಂಕ್ ಎಕ್ತ್ರಾರಾಚೆ ಗಾಂಟಿನ್ ಗಾಂಟಾಂವ್ಚೆಂ ಜಾವ್ನಾಸಾ. ತ್ಯೆ ದಿಶೆನ್ ಆಮಿಂ ಸಬಾರ್ ಪ್ರಯೋಗ್, ಸಾಧನಾಂ, ಕಾರ್ಯವಳಿಂಚಿಂ ಪ್ರದರ್ಶನಾ ದೀತ್ತ್ ಆಯ್ಲ್ಯಾಂವ್, ಸಂಗಿಂ ಜಬರ್‌ದಸ್ತ್ ಯಶ್‌ಯ್ ಜೊಡ್ಲ್ಯಾಂ.

1) ಭಾರತ್‌ಭರ್ ಶಿಂಪಡ್ಲೆಲ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕವಿಂಕ್ ಎಕ್ವಾವ್ನ್ ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣಾನ್ ತಾಳೊ ಬಸವ್ನ್ ಎದೊಳ್ಚ್ಯಾ 74 ಪುದರ್ಶನಾನಿ ಗಾವ್ನ್ ದಾಕಯ್ಲ್ಯಾಂ.

ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕಲೆಚ್ಯಾ, ಸಾಹಿತ್ಯಾಚ್ಯಾ ವ್ಹಾಳ್ಯಾಂತ್ ಆಮಿ ಕೆಲ್ಲೆ ಸಭಾರ್ ನವೆ ಪ್ರಯೋಗ್ ತಶೆಂಚ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಾಹಿತ್ಯಾಚಿ ಥರಾವಳ್ ಪ್ರಕಾರ್ ಜಾವ್ನಾಸ್ಚೆ -ಪದಾಂ, ನಾಚ್, ಲೋಕ್‌ವೇದ್ (ಜಾಸ್ ಪದ್) ಕಲಾ, ರಾಂದಪ್ -ಜೆವಣ್, ರಿತಿ-ರಿವಾಜಿ ಆನಿಸಂಪ್ರದಾಯ್ ಇತ್ಯಾದಿಂಚೆರ್ ಆಮಿ ಮಾಂಡುನ್ ಹಾಡ್‌ಲ್ಲ್ಯಾಂ ಪ್ರದರ್ಶನಾಂನಿ ಖಂಡಿತ್ ಭಳಾದೀಕ್ ಪ್ರಭಾವ್ ಪಡ್ಲಾ.

ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್, ಜೆವಣ್ ಸೊಭಾಣ್, ಗುಮಟ್ ಸೊಭಾಣ್, ಮಾಟವ್ ಸೊಭಾಣ್, ನಾಚ್ ಸೊಭಾಣ್, ಸಂಸಾರಾಚೆಂ ಪಯ್ಲೆಂ ಬಾಯ್ಲ್ಯಾ ಪ್ರದರ್ಶನ್, ತಶೆಂಚ್

ಸಂಸಾರಾಚೊ ವ್ಹಡ್ ಬಾಯ್ಲಾ ಪ್ರದರ್ಶನ್, ಲಗ್ಭಗ್ 500 ಕಲಾಕಾರಾಂಕ್ ಎಕಾ ಮಾಂಚಿಯೆರ್ ಹಾಡುನ್ ಮಾಂಡೊ-ನಾಚ್ ಆನಿ ಪದಾಂಚೆಂ ವಯ್ಭವೀಕ್ ಪ್ರದರ್ಶನಾಚೆಂ- ಮಾಂಡೊ ಫೆಸ್ತ್.

"ಪರಬ್" ಪಯ್ಲೆಂ ಅಖಿಲ್ ಭಾರತೀಯ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಸ್ಕೃತೇ ಫೆಸ್ತ್- ಅಕ್ಟೋಬರ್ 17 ಥಾವ್ನ್ 25 -1992: ಅಮ್ಚ್ಯಾ ಘನೇಸ್ತ್ ಆನಿ ಗಿರೇಸ್ತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಸ್ಕೃತೆಚ್ಯಾ ಹರ್ ಪ್ರಕಾರಾಂಚ್ಯಾ ಥರಾವಳ್ ಕುಸಾಂವಿಶಿಂ ಜಾಗ್ರುತ್ ಕರುನ್ ಪ್ರದರ್ಶಿತ್ ಕೆಲ್ಲೆಂ ಆನಿ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಸಂಸಾರಾಕ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಷೆಚಿ ಗಿರೆಸ್ತ್‌ಕಾಯ್ ಆನಿ ಘನ್ ಊಂಚಾಯೆಕ್ ಪಾವಯ್ಲ್ಲೆಂ ಏಕ್ ಮಹಾಸಾಧನ್.

'ಅಂತರಾಷ್ಟ್ರೀಯ್ ಬಾಯ್ಲಾ' - ಕೊಂಕ್ಣಿ, ಸಿನ್ಹಾಲಿ, ಕೆನ್ಯಾ ಆನಿ ಇತರ್ ಬಾಯ್ಲಾ ಸಂಗೀತ್-ನಾಚ್ ಹಾಚೆಂ ಪ್ರದರ್ಶನ್ ( ಕೊಂಕ್ಣೆಂತ್ ಗುಜ್ರಾಥೀ ದಾಂಡಿಯಾ ಆನಿಪಂಜಾಬೀ ಬಾಂಗ್ರಾ, ನಾಚಾಚೆಂ ಮೆಳಫ್)

'ದಬಾಜೊ' ಆರ್ಕೆಸ್ಟ್ರಾ- ಕಾಜರಾಂಕ್ ಏಕ್ ಮಾತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಗೀತ್ ಪಂಗಡ್.

ಮುಕ್ಲೆಂ ಯೆವ್ಪಣಾಂ.

'ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಸ್ಕೃತೇ ಕೇಂದ್ರ್' ಎದೊಳ್‌ಚ್ಚ್ ಸ್ಥಾಪಿತ್ ಜಾಲಾಂ. ತ್ಯಾ ಮಧೆಂ ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣಾಚೊ ಗೌರವಾಧ್ಯಕ್ಷ್ ಚಾಫ್ರಾಬಾಬಾನ್ ಹ್ಯಾ ಸಂಸಾರಾಚೆಂ ಪಯ್ಣ್ ಅಕೆರ್ ಕೆಲಾಂ. ಕೊಂಕ್ಣೆಂತ್ ಚಾಫ್ರಾಬಾಬಾನ್ ಹಾತ್ ಭೊಂವ್ಡಾಯ್ನಾಸ್ತಾಂ ಸೊಡ್‌ಲ್ಲೆಂ ಕಿತೆಂಚ್‌ನಾ ಮ್ಹಣ್ಕೆತ್. ತಾಚಿಂ ಸಬಾರ್ ಕೃತ್ಯಾಂ ಎದೊಳ್ ಪರ್ಗಟ್ ಜಾಯ್ನಾಸ್ತಾಂ ಬಾಕಿ ಉರ್ಲ್ಯಾಂತ್. ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಕೇಂದ್ರಾನ್ ಹೆಂ ಕಾಮ್ ಕರ್ಚ್ಯಾಕ್ ಕಮರ್ ಬಾಂದ್ಲ್ಯಾಂ. ಆನಿ ಹ್ಯಾದಿಶೆನ್ ಹೆಂ ಪಯ್ಲೆಂ ಹಂತ್ ಜಾವ್ನ್ ತಾಚ್ಯಾ ಪದಾಂಚೊ ಸಂಗ್ರಹ್ 'ಮೊತಿಯಾಂ' ಆಜ್ ಆಮಿ ಉಜ್ವಾಡಾಯ್ತಾಂವ್. ಮುಕ್ಲ್ಯಾ ಹಂತಾನಿ ತಾಚಿಂ ಕವಿತಾ, ನಾಟಕಾಂ, ಲೇಖನಾ ಇತ್ಯಾದಿ ಪರ್ಗಟ್ ಕರ್ಚೊ ವಾವ್ರ್ಯ್ ಆಮಿಂ ಕರುಂಕ್ ಆಸಾ.

ಚಾಫ್ರಾಬಾಬಾಚ್ಯಾ ನಾಂವಾರ್ ನಾಟಕ್ ತರ್ಬೆತಿ ಕೇಂದ್ರ್ ಆಸಾ ಕರುನ್ ಯುವಜಣಾಂಕ್ ನಾಟಕ್‌ರಂಗಾಚ್ಯಾ ಹರ್ ಪ್ರಾಕಾರಾನಿ ಖ್ಯಾತ್ ನಾಟಕಿಸ್ತಾಂ ಥಾವ್ನ್ ತರ್ಬೆತೀ ದಿವವ್ನ್ ಚಾಫ್ರಾಬಾಬಾಚಿ ನಾಟಕ್ ಹವ್ಯಾಸಿ ಥರಾನ್ ಹರ್ ಆಯ್ತಾರಾನಿ ('ಖಾಯಂ ಆಯ್ತಾರಾಚೊ ರಂಗ್ ಮಂಚ್') ಖೆಳಂವ್ಚೆ.

ಪಿತುಳ್ಚೆಂ ಬೇಂಡ್ ಮರೊನ್ ವೆಚಿ ಕಲಾ. ತ್ಯಾ ಕಲೆಕ್ ಆನಿ ತಾಚಾ ಕಲಾಕಾರಾಂಕ್ ಭದ್ರುತಿ ದಿಂವ್ಚೆ ಖಾತಿರ್ ಏಕ್ ನಿಧಿಚೆಂ ಸ್ಥಾಪನ್. ಮಾತ್ ನ್ಹಯ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕಲಾ ಆನಿ ಸಂಸ್ಕೃತಿಂತ್ಲೆ ಜೇಯ್ ಪ್ರಕಾರ್ ಆಸಾತ್ ತಾಂಚಿಂ ಸೊದ್ನಾಂ ಕರೂನ್, ಅಧ್ಯಯನ್ ಆನಿ

ಪ್ರಯೋಗ್ ಕರೂನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಷೆಕ್ ಸಂಸಾರಾಚಾ ಕೊನ್ಯಾಕೊನ್ಯಾಕ್ ಪಾವಂವ್ಚ್ಯಾ ಉದ್ದೇಶಾನ್ ಹೊ ಸಂಸ್ಥೊ ಸ್ಥಾಪಿತ್ ಜಾಲಾ. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಅಭಿಮಾನಿಂಚೊ ನಿರಂತರ್ ಸಹಕಾರ್ ಆಮಿಂ ಆಂವ್ದತಾಂವ್.

**'ಕೊಂಕಣ್ ಭಂವ್ಡಿ '**

ಪರ್ಬಂತ್ ಆಮಿಂ ಸರ್ವ್ ಕೊಂಕ್ಣ್ಯಾಂಕ್ ಎಕಾ ಮಾಂಚಿಯೆರ್ ಹಾಡೂನ್ ಕೊಂಕ್ಣ್ಯಾಂಚೊ ಎಕ್ವಾರ್ ಘಡ್ಲೊ. ಆನಿ ಹೊ ಎಕ್ವಾರ್ ಥಿರ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ದಿಶೆನ ಆಮಿ ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಲ್ಹಾನ್ ಪಂಗಡ್ ಘೆವ್ನ್ ಕೊಂಕ್ಣೆಚೊ ಎಕ್ವಟ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಗರಚೊ ಮ್ಹಳ್ಳೆಂ ಸಮ್ಜಂವ್ಚ್ಯಾಕ್ ತಾಂಚೆಲಾಗಿಂ ವೆಚೊ. ಆನ್ಯೆ ಪಾವ್ತ್ರ್, ತುಮ್ಕಾಂ ಬರೆಂ ಮ್ಹಣ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಜಯ್ತಾಕ್ ಈಟ್. ಉದರ್ ಜಾಂವ್.

ಮಾಂಡ್‌ಸೊಭಾಣಾ ತರ್ಫೇನ್
ಫ್ರೆಡ್ ಕುಮಾರ್ ಕುಚ್ಚಿಕಾಡು
ಉಪಾಧ್ಯಕ್ಷ್.



# ಚಾ.ಫ್ರಾ. ದೆಕೊಸ್ತಾ



- 10-10-1931 ಮಂಗ್ಳುರ್ಚ್ಯಾ ಮಾರ್ನೆಮಿರ್ಕಾಟ್ಯಾರ್ ಜಲ್ಮ್. ಚಾರ್ಲ್ಸ್ ಫ್ರಾನ್ಸಿಸ್ ಮ್ಹಣ್ ವೊಲಾಯಿಲ್ಲೆಂ.
- 1934 ದೊ|ರಾಸ್ಮಿರ್ ಮೊತಿಚಿ ಚಿಕಿತ್ಸೆನ್ ಏಕಾ ಘೊರೇರ್ ಅಸ್ವಸ್ಥಾಂತ್ಲೊ ಪಾಶಾರ್. ಉಗ್ಡಾಸ್ ದವರ್ನ್ ಪಯ್ಣಾರಿಂತ್ ದೊ | ಮೊತಿಚ್ಯಾ ಮರ್ಣಾ ವೆಳಿಂ ತಾಂಚ್ಯಾ ಜಿವಿತಾಚೆರ್ ಏಕ್ ಲಾಂಬ್ ಲೇಖನ್ ಬರಯ್‌ಲ್ಲೆಂ.
- 1946 ಪಯ್ಲೊ ನಾಟಕ್, "ನಿಷ್ಠುರ್ ಬೊತ್ಲ್" ಶೆಜಾರ್ಯಾಚ್ಯಾ ಸೊಪ್ಯಾರ್ ಖೆಳಯ್‌ಲ್ಲೊ. ಪಡ್ದೊ ಜಾವ್ನ್ ಶೆಜಾರ್ಣಿಚೆಂ ಕಾಪಾಡ್ ಹಾಡಲ್ಲೆಂ.
- ಪ್ರಾಥಮಿಕ್ ಶಿಕಪ್. ಜೆಪ್ಪು ಸಾಂ ಜುವಾಂವ್ ಹಾಯರ್ ಎಲಿಮೆಂಟರಿ ಇಸ್ಕೊಲಾಂತ್. 1948 ಮಿಲಾರ್ ಹಾಯ್‌ಸ್ಕೂಲಾಂತ್ ಎಸ್.ಎಸ್.ಎಲ್.ಸಿ. ಪಾಸ್.
- 1-5-1948 ಕುಟ್ಮಾಸಂಗಿಂ ಬೊಂಬಂಯ್ತ್ ವಸ್ತಿ. ಭಾರತೀಯ್ ಎಲಿಸಾಂವ್ ಖಾತ್ಯಾಂತ್ ಪಯ್ಲೊ ವಾವ್ರ್. ಅಡೇಜ್ ವರ್ಸಾಂನಿ ಬಿ.ಇ.ಎಸ್.ಟಿಂ. ತ್ ಕಾಮ್. ಮಾಗಿರ್ ಧಾ ವರ್ಸಾಂನಿ ಸ್ವಂತ್ ಛಾಪ್ಖಾನೊ ಉಘಡ್ಲೊ.
- 1951 'ಪಯ್ಣಾರಿ'ಂತ್ ಬರಪ್. ಆಟ್ ವರ್ಸಾಂನಿ ತ್ಯಾ ಪತ್ರಾಚೊ ಸಂಪಾದಕ್ ಜಾಲೊ. ತೀನ್ ವರ್ಸಾಂ ಹೆಂ ಸಂಪಾದಕ್‌ಪಣ್ ಚಲಯ್ತಾನಾ 'ವೊಲಾಚಿ ಮರ್ಯಾದ್' ಪಯ್ಲಿ ಕಥಾ ಆನಿ 'ತುಕಾಯ್ ಆಸಾ ವಾಂಟೊ' ಹ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಉಜ್ವಾಡಾಕ್.

- 1953 ಆಕಾಶ್‌ವಾಣಿಚೆರ್ ಸರಾಗ್ ಕವಿತಾಂಚಿ ವಿತ್ರಾಪ್ನಿ. ಪಯ್ಲಿ ಕವಿತಾ "ಸಪ್ನಾಂತುಲೆಂ ರಾಜ್" ಮೀರ್ಗ್. ಉದೆಂತಿಚೆಂ ನೆಕೆತ್ರ್, ಪರ್ವಚೊ ಆವಾಜ್ ಆನಿ ಸಾದ್ ಪತ್ರಾಂಚೆರ್ ಉಜ್ವಾಡ್ಲಿ. ಆಕಾಶ್‌ವಾಣಿಚ್ಯಾ ಶ್ರೀ ವಿಷ್ಣು ನಾಯ್ಕಾನ್ ಗೊಂಯ್ಕಾರಾಂಕ್ ತಾಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ವಾಚುನ್ ದಾಕಯ್ಲ್ಯೊ. "ಕೊಂಬ್ಯಾಂ ಬಾಬಾಂನೊ ಸಾದ್‌ರೆ ಘಾಲಾ" ಗೀತ್ ಖೂಬ್ ಗಾಜ್ಲೆಂ.
- 1955"ಅಂಕ್ವಾರ್ ಮೆಸ್ತ್ರಿ" ಬೊಂಬಯ್ಚ್ಯಾ ಇಂಗ್ಲೆಜ್ ಪತ್ರಾನಿಂ ಪಯ್ಲೆಂ ವಿಮರ್ಶ್ಯಾಂತ್ ಆಯ್ಲೊ. ಗಲ್ಯಾಂತ್ ದರ್ಸ್ ತಾಚೆ 18 ಪ್ರಯೋಗ್‌ಎದೊಳ್ ಜಾಲೆ.
- 1956 ಜಾಗ್ ಮಾಗಾಚೊ ಸಂಪಾದಕ್.
- 1960 ಪಯ್ಲಿ ಕಾದಂಬರಿ, "ಸಂಯ್ಸಾಚೆಂ ಪಾತರ್" ಪಯ್ಕಾರಿಚ್ಯಾ ಪಾನಾಂನಿ ಸಾಂಖಿಳ್ ಕಥಾ ಜಾಲಿ. ಪಯ್ಕಾರಿಂತ್ ದೋತಿವಿರೋಧ್ ಸಂಸ್ಥೊಸ್ಥಾಪನ್. ದೋತ್ ನಾತ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ 17 ಕಾಜರಾಂನಿ ಸುಧಾರ್ರುಂಚೊ ಪಂಗಡ್.ದೊತಿ ವಿರೋಧ್ ನಾಟಕ್ "ಸೊಭಿತ್ ಸಂಸಾರ್" ಮರಾಠಿ ದಯ್ನಿಕ್ "ಮರಾಠಾಂತ್" ನಾಂವಾಡ್ದಿಕ್ ನಾಟಕಿಸ್ತ್ ಶ್ರೀ ಪಿ.ಕೆ. ಅತ್ರೆ ಥಾವ್ನ್ ವಿಮರ್ಸೊ ಜೊಡ್ಲಾ.
- 1962 ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾ ಪಾಠ್‌ಪುಸ್ತಕಾಂನಿ ಕವಿತಾ ಆವರ್ಸ್ರಾತ್
- 1968 "ಭಾಂಗಾರ್ ಮನಿಸ್" ನಾಟಕಾಚೊ ಪಯ್ಲೊ ಪ್ರಯೋಗ್ ಪ್ರೇಕ್ಷಕ್ ನಾಸ್ತಾಂ ರದ್ದ್ ಜಾತಾ. ಪುಣ್ ಮಾಗಿರ್ ತಾಚೆ ಲಗ್ಬಗ್ 25 ವಯ್ರ್ ಪ್ರಯೋಗ್ ಜಾತಾತ್. ತಾಚೆ 7 'ನಾಟಕ್ ಕಲಾಸಂಪತ್' ಹಾಚೆಂ ಇನಾಮಾಂ ಜೊಡ್ಲ್ಯಾತ್. ಕ್ರಮೇಣ್ 13 ನಾಟಕ್ 7 ಮಟ್ವೆ ನಾಟ್ಕುಳೆ, ಪಾಂಚ್ ನವಲ್ ಕಥಾ, ತಿನ್ಶಾಂ ವಯ್ರ್ ಕವಿತಾ ಆನಿ ಲೇಕ್ ನಾತಲ್ಲಿಂ ಲೇಖನಾಂ, ಪ್ರಬಂಧಾಂ ಬರವ್ನ್ ಕಾಡ್ಲಾ.
- 1969 ಮಂಗ್ಳುರಾಂತ್ ವಸ್ತಿ. "ಜೊರ್ಬಿಬುತೆಲ್" ಆನಿ "ತರ್ನೆಂ ತರ್ನೆಂ ಮೊರ್ನೆಂ" ನಾಟಕ್ ಮಾಂಚಿಯೆರ್ ಯೆತಾತ್.
- 1974 ಕಾಜರ್, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಸ ಮಂಡಳಾಚೊ ಸ್ಥಾಪಕ್ ಅಧ್ಯಕ್ಷ್.
- 1975 ಪಾವೂರಾಂತ್ ಕೊರ್ಗ್ಗಾರ್ ಕ್ರಿಸ್ತಾಂವಾಂಚೆಂ ಶೋಷಣ್ "ಉದೆವ್" ಪತ್ರಾಂತ್ ಉಗ್ತ್ಡಾಕ್ ಹಾಡ್ಲಾ.
- 1976 ಜಿವಿತ್ ಪತ್ರಾಚಿ ಸುರ್ವಾತ್.
- 1986 ಗೊಂಯಾಂ ಸಾಂಖೆಂತ್ 'ಅಖಿಲ್ ಭಾರತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಲೇಖಕ್ ಸಮ್ಮೇಳ್'ಹಾಚೊ ಅಧ್ಯಕ್ಷ್.

- ಮಂಗ್ಳುರ್ಚ್ಯಾ 'ಪರಡೆಲಾ', 'ರಂಗ್‌ತರಂಗ್' ಆನಿ "ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್" - ಸಂಗೀತ್ ಜಮ್ಯಾಂಕ್ 150 ವಯ್ರ್ ಗಿತಾಂ ರಚ್ಲಾಂ.
- 1988 ಗೊಂಯಾಂತ್ ಚಾರ್ ಪುಸ್ತಕಾಂ ನಾಗರೀಂತ್ ಉಜ್ವಾಡಾಕ್ ಆಯ್ಲಿಂ.
- 1989 "ಸೊಂಶಾಚೆ ಕಾನ್ " ಕವಿತಾ ಜಮ್ಯಾಕ್ 'ಕೇಂದ್ರೀಯ್ ಸಾಹಿತ್ಯ ಅಕಾದಮಿ' ಪ್ರಶಸ್ತಿ. ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾ ಇಂಗ್ಲೆಜ್, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಆನಿ ಮರಾಠಿ ಪತ್ರಾಂನಿ ಲಾಂಬ್ ಧೀಗ್ ಉಲ್ಲೇಖ್ ಆನಿ ಲೇಖನಾಂ ಆನಿ ಸಂದರ್ಶನಾಂ. ಕೇರಳಾಚ್ಯಾ ಮಲೆಯಾಳಿ ಪತ್ರಾಂನಿ ಕಥಾ ಛಾಪುನ್ ಯೆತಾತ್.
- 1990 ಮಂಗ್ಳುರ್ಚ್ಯೆ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಪರ್ಬಾ "ಕೊಂಕಣಿ ಸಾಹಿತ್ಯ ಕುಲರತ್ನ" ಮಾನ್ ದಿವುನ್ ಸನ್ಮಾನ್ ಕರ್ತಾತ್.

'ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್' ಹಾಚೊ ಗೌರವಾಧ್ಯಕ್ಷ್. ಎದೊಳ್ಚ್ಯಾ ಸರ್ವ್ 'ಮಾಂಡ್ ಸೊಭಾಣ್' ಸಂಗೀತ್ ಕಾರ್ಯಾವಳಿನಿ 'ಸುತಾರ್' ಜಾವ್ನ್ ಲೊಕಾಮತಿಂಕ್ ದಾಥೊಸ್ ಕೆಲಾಂ.

ಗೊಂಯಾಂಥಾವ್ನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಅಕಾದಮಿ ಪ್ರಶಸ್ತಿ ಘೆವ್ನ್ ಪಾಟಿಂ ಗಾಂವಾಂಕ್ ಪಾವ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಚಾ.ಫ್ರಾ. ಬಾಬಾನ್ ದೋನ್‌ಚ್ ದಿಸಾಂನಿ ಮಣ್ಜೆ 1992 ಇಸ್ವೆಚಾ ದಸೆಂಬ್ರಾಚಾ ತೀನ್ ತಾರ್ಕೆರ್ ಅಪ್ಲೆಂ ಜಿಣ್ಯೆ ಪಯ್ಣ್ ಸಂಪಯ್ಲೆಂ. ಚಾ.ಫ್ರಾ. ಅಮರ್ ಜಾಲೊ.

ಅಮರ್ ಚಾ.ಫ್ರಾ. ಬಾಬಾಚಾ ವ್ಯಕ್ತಿತ್ವಾ ವಿಶಿಂ ಸಾಂಗ್ಚೆಂ ತರ್ ಧರ್ಮ್, ರಾಜಕೀಯ್ ಆನಿ ಸಾಮಾಜಿಕ್ ಗೊಡ್ಡು ಸಂಪ್ರದಾಯ್, ಫಿತಿಸ್ಪಣಾಂ ಆನಿ ಪಾಡಾರಿ ಆತರ್ಪಣಾಂಚೆರ್ ಅಪ್ಲ್ಯಾ ಲೇಖನಾಂ, ಕವನಾಂ, ಪದಾಂ, ನಾಟಕ್ ಆನಿ ಭಾಷಣಾಂನಿ ದಯಾದಾಕ್ಷಿಣೆವಿಣ್,ಭಿಂಯಾವಿಣ್ ರೊಸಾಳ್‌ಆನಿ ಗಂಭೀರ್ ಉತ್ರಾನಿ ಶೀದಾ ಠಿಕಾ ಪ್ರಹಾರ್ ಕರುನ್ ಆಸ್‌ಲ್ಲೊ ವಿಶಿಷ್ಟ್ ವ್ಯಕ್ತಿತ್ವಾಚೊ ಧೀಮಂತ್.

ಎಕ್‌ಚ್ ಸಂಗ್ತಿಚೆರ್ ಪದಾಂ ಆನಿ ಕವಿತೆಕ್ ಸಹಜ್‌ಲ್ಲಿಂ ಉತ್ರಾಂ ವೆವೆಗ್ಳ್ಯಾ ರಿತಿರ್ ರಚ್‌ಲ್ಲೊ ಅಪ್ರೂಪ್ ಶಿಲ್ಪಿ ತೊ.

ವಿಡಂಬನ್ ವಿನೋದ್, ಠಿಕಾ, ಶಿಣ್ ಆನಿ ಮಾಯಾಮೋಗ್ ಉಬಾರ್ನ್ ಸವಾಲಾಂ ಉಡವ್ನ್, ಜಾಪ್ ವಿಚಾರುನ್ ದೆವಾಲಾಗಿಂ ಶೀದಾ ಸಂವಾದ್ ಚಲಯ್‌ಲ್ಲೊ ಮನಿಸ್ ಅಖ್ಯಾ ಸಾಹಿತಿಕ್ ಶೆತಾಂತ್ ಚಾ.ಫ್ರಾ. ಬಾಬ್ ಸೊಡ್ಲ್ಯಾರ್ ದುಸ್ರೊ ಝುಳ್ಕನಾ.

# 1. ಉತ್ರಾಂ

ಉತ್ರಾಂ ಕ್ರೋಧಾನ್ ಜಳಂವೈತಾತ್
ಉತ್ರಾಂ ಮಯ್ಪಾಸಾನ್ ಲೊಳಂವೈತಾತ್

ಉತ್ರಾಂ ಶಿಣಾನ್ ಕಾಂಪುಯೆತಾತ್
ಉತ್ರಾಂ ಭಿಯಾನ್ ಧಾಂಪುಂಯೆತಾತ್

ಉತ್ರಾಂ ಕೊಡ್ಸಾಣೇನ್ ಚಿರ್ಡುಂಯೆತಾತ್
ಉತ್ರಾಂ ಅಲಕ್ಶೇನ್ ಉಡಂವೈತಾತ್

ಉತ್ರಾಂ ರಾಗಾನ್ ಜಡಂವೈತಾತ್
ಉತ್ರಾಂ ಮೊಗಾನ್ ಮಾತ್ ಗಾಂವುಯೆತಾತ್



# 2. ಮಾಗ್ಣೆ

ಏ ಕೊಂಕ್ಣಿ ರಂಗಾ, ಏ ನ್ಹವ್ಯಾ ತರಂಗಾ
ಲಗೀನ್ ತುಮ್ಚೆಂ ಜಾಂವ್‌ರೇ
ರಂಗ್ ತರಂಗ್ ನಾಂವ್ ಪಾಂವ್
ಕೊಂಕ್ಣಿ ಗಾಂವಾನ್ ಗಾಂವ್‌ರೇ
ಕೊಂಕ್ಣಿ ಗಾಂವಾನ್ ಗಾಂವ್

ಗಾಯನ್ ಗಳ್ಯಾಂತ್ ಗಾಜಂವ್
ಪಾಯಾಂನಿ ನಾಚ್ ವ್ಹಾಡಂವ್
ಉತ್ರಾನ್ ಉತರ್ ಕಾಳ್ಜಾಂ ಮತಿಂ
ಆಟವ್ನ್ ಆಟವ್ನ್ ಆಟವ್ನ್ ಶಿಜಂವ್‌ರೇ.



# 3. ಮಾಗ್ಣೆ

ಧನಿಯಾ ದೆವಾ ಪಾವ್
ಬಗ್ಲೆನ್ ತರಿ ರಾವ್
ಸೊಸುಂಕ್ ನ್ಹಜೊ ಸೊಸುಂಕ್ ನ್ಹಜೊ
ಜಿವಿತಾಚಿ ದಾವ್

ಮಾಗೊನ್ ಮಾಗೊನ್ ತೂಂ
ನಾಗೊವ್ನ್ ಗೆಲಾಯ್ ಮೂ
ಹಾಂವೆಯ್ ಮಾಗ್ಣೆಂ ತರ್
ದಿಶಿ ಕಿತೆಂ ತೂಂ ?

ಪಂಕ್ತ್ಯಾಂತ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮೂಂಚ್
ಚಿಂತುಂಕ್ ಯೆನಾ ಊಂಚ್
ಕುಡ್ಕ್ಯೊ ಏಕ್ ದಿಸಾಂಯ್ ಜಾಲ್ಯಾರ್
ದೊನ್ಯ್ ದವರ್ ತೂಂಚ್



# 4. ವೊರೆಸಾಂವ್



ಆಮ್ಚೆಂ ಮಾಗ್ಣೆಂ ವೊರೆಸಾಂವ್
ವ್ಹರ್‌ಗೆ ಘಾಂಟಿ ಗಾಂವಾನ್ ಗಾಂವ್
ಥಾಂವ್ ಥಾಂವ್ ಥಾಂವ್ ಥಾಂವ್

ಚಿಕೊಳೆಚಿ ಪಾಕ್ಳಿ ವೊಡುನ್
ಚಂದ್ರಿಮಾಚೊ ಕುಡ್ಕೊ ಕಾಡುನ್
ತಾಂಬ್ಡ್ಯಾ ರಗ್ತಾ ಧಾರ್ ಸೊಡುನ್
ಕಾಳ್ಜಾಂತ್ ತುಜ್ಯಾ ತರಿ ಮಾರುನ್ ಲಾಂವ್
ಥಾಂವ್ ಥಾಂವ್ ಥಾಂವ್ ಥಾಂವ್



ಚಾರಾಂಯ್ ಕುಶಿಂ ಚುಡಿ ದಿಸೊಂ
ಮಸ್ತಕಾಂತ್ ಮಾಂಕೊಡ್ ನಾಚೊಂ
ದೀಸ್ ತುಜೊ ಕಸೋಯ್ ವಚೊಂ
ರಾತ್ ಆಯ್ಲಿ, ಖುಶಾಲ್‌ಭರಿತ್ ಜಾಂವ್
ಥಾಂವ್, ಥಾಂವ್, ಥಾಂವ್, ಥಾಂವ್



# 5 . ನಮೋ ಸರ್ವೇಶ್ವರಾ

ನಮೋ ನಮೋ ನಮೋ ಸರ್ವೇಶ್ವರಾ
ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಸಂಸಾರಾಚ್ಯಾ ಸಾಲ್ವಾದೊರಾ
ನಮೋ ನಮೋ ನಮೋ..........

ನೇತ್ರಾವತಿ ಜುವಾರಿ ಲಾಗಿಂ ಸರಾ
ಸಪ್ತ ಕೊಂಕಣಾಂತು ಜೀವಾಳ್ ಭರಾ
ಮೆಲ್ಲೆಲ್ಯಾ ಪಿತ್ರಾನೊ ದಯಾ ಕರಾ
ಜಿಯೆಂವ್ಚ್ಯಾ ಮಿತ್ರಾನೊ ವೆಂಗ್‌ವ್ನ್ ಧರಾ
ನಮೋ ನಮೋ ನಮೋ..........

ಮಾಗ್ತಾಂವ್ ಆಜ್ ಆಮಿ ಅಮ್ಚ್ಯಾ ದಾರಾ
ತೋಮಾ ಬೇತಾಳಾಚಿ ಪಾರಂಪರಾ
ನಮೋ ಬಾಪು ಸ್ವಾಮಿ ಸಾಂಕ್ರುವರಾ
ನಮೋ ನಮೋ ನಮೋ ಸರ್ವೇಶ್ವರಾ
ನಮೋ ನಮೋ ನಮೋ..........



# 6. ಬಾಣಾವ್ಲೆಚ್ಯಾ ರಾನಾಂತು

ಬಾಣಾವ್ಲೆಚ್ಯಾ ರಾನಾಂತು
ಬೊಬಾವ್ ಜಣಾ ಮನಾಂತು
ರಿಗ್ಲಕೊಲೆ ರಿಗ್ಲಕೊಲೆ
ಕುಂಕ್ಯಾಪಿಲಾಂಕ್ ವ್ಹಾವುನ್ ಗೆಲೆ
ಆಕಾಂತಾಚೆ ಉಟ್ಲೆ ಉಲೆ
ಬಾಣಾವ್ಲೆಚ್ಯಾ ರಾನಾಂತು
ಬೊಬಾವ್ ಜಣಾ ಮನಾಂತು
ನ್ಹಯ್‌ಗಾ ಕೊಲೆ ನ್ಹಯ್‌ಗಾ ಕೊಲೆ
ಅಯ್ಲ್ಯಾಂ ಘೆವುನ್ ಉತರ್ ಉಲೆ
ಮಂಗ್ಳುರಾಂತ್ಲೆ ಚಲಿಯೊ ಚಲೆ
ಬಾಣಾವ್ಲೆಚ್ಯಾ ರಾನಾಂತು
ಪಡ್ಲ್ಯಾಂ ತುಮ್ಚ್ಯಾಂ ಮೊಗಾಂತು
ಮೊಗಾನ್ ದೊಳೆ ವ್ಹೊಲೆವೊಲೆ
ಗೊಪಾಂತ್ ತುಮ್ಚ್ಯಾಂ ಮೇಣ್ ಜಾಲೆ
ರುಪ್ಣೆ ತುಮ್ಚೆಂ ದವರ್ತಲೆ
ಜಿವಿತ್ ಭರುನ್ ಮನಾಂತು
ಬಾಣಾವ್ಲೆಚ್ಯಾ ರಾನಾಂತು
ಬಾಣಾವ್ಲೆಚ್ಯಾ ರಾನಾಂತು
ಏಕಾ ಏಕಾ ಖಿಣಾಂತು
ವ್ಹೊಮ್ತೆ ಆನಿ ಉದಾರೆ
ಪಡ್ಲ್ಯಾಂ ತುಮ್ಚ್ಯಾಂಮೊಗಾಂತು





# 7.ತಾನ್ ಭಾಗ್ಲಿನಾ

ಓ.....ತುಜ್ಯಾ ಗಾಲಾವಯ್ಲಿಂ
ಬಿಂರ್ದ್ಯಾಂ ಪೊಡುಂಕ್ ಉದ್ಯಾಲೊಂ
ತುಜ್ಯಾ ಗಾಲಾಂಚಿ ತಾಂಬ್ಡ್ಸಾಣ್ ಕಶಿ
ಹಾತಾರ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಲಾಗ್ಲಿನಾ?

ಮೋಗ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕಾಳ್ಜಾಂತ್ ಆಸಾ
ತೊಂಡಾರ್ ಉದೆನಾ
ಮೋಗ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮನಾಂತ್ ಆಸಾ
ಉತ್ರಾಂತ್ ಸಾದನಾ.



ಭಿಂರ್ದ್ಯಾಂ ತುಜ್ಯಾ ಪೊಲ್ಯಾಂವೆಲಿಂ
ಪೊಡುಂಕ್ ಮೊಗಾ ಉದ್ಯಾತಾನಾ
ತಾಂಬ್ಡ್ಸಾಣ್ ತಾಂಚಿ ಸಾಂಗ್ ಕಶಿ ?
ಹಾತಾರ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಲಾಗ್ಲಿನಾ

ಸಾಗೊರ್ ಮೊಗಾ ಮಯ್ಪಾಸಾಚೊ
ತುಂ ಮ್ಹಣ್ ಚಿಂತುನ್ ಉಪೆತಾನಾ
ಮೆಳ್ಳ್ಯಾ ಮೊಗಾಚಿ ಸಾಯ್ ಶೆಳೇರ್
ಕುಡಿ ಅತ್ಮ್ಯಾನ್ ಭೊಗ್ಲಿನಾ

ದರ್ಯಾ ಪೊಟಾಂತ್ ಜಾಳಾಂ ಗಾಲಿಂ
ತಾರ್ಕ್ಯಾಂಖೊರೂಯ್ ಪಾಗ್ಲಿನಾ
ತಶೀ ಮ್ಹಜಿ ತಾವ್ ಗಾಗೆಲಿ
ಮೊರಾ ಪರ್ಯಾಂತೀ ಭಾಗ್ಲಿನಾ

# 8. ಕೊಡ್ಯಾಳ್ಚೀಂ ಬಸ್ಸಾಂ

ತರ್ನಿಂ ರಗತ್ ಉಟೊಂಕ್ ಜಾಯ್
ಮೊಣ್ಕಂ ತೊಂಡಾಂ ಸುಟೊಂಕ್ ಜಾಯ್
ಕೊಡ್ಯಾಳಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಬಸ್ಸಾಂಚಿ ತಿ ಲಾಯ್‌ಲೂಟ್ ರಾವೊಂಕ್ ಜಾಯ್

ಕೊಂಪಿಟಿಶನ್ ಕೊಂಪಿಟಿಶನ್
ಮುಸ್‌ಮುಸೊನ್ ತಿ ಯೆತ್ ಗಾಡಿ
ಹಾಂಡಿರ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಬುರ್ಗ್ಯಾಂಕ್ ಘೆವುನ್ ಆವಯ್ ಎಕ್ಲಿ ಮೆಟ್ ಕಾಡಿ
ಹಾರ್‌ಲೆ ಸಾಯ್ಬ್ ಹಾರ್‌ಲೆ ಸಾಯ್ಬ್ ರಾಯ್ಟ್ ಮ್ಹಣುನ್ ದರ್ವಡ್ಯಾ
ಬಾಳ್ಕಂ ತೆಣೆ ಆವಯ್ ಹೆಣೆ ಘಳಿಂವ್ಕ ಕೊಣಾಕ್ ಪರ್ವಡ್ಯಾ?

ಹಾಂತ್ಲೆಂ ವೆಗಿಂ ಸುಟೊಂಕ್ ಜಾಯ್
ಬಿರ್ಮತ್ ದೊಳ್ಯಾಂತ್ ಉಟೊಂಕ್ ಜಾಯ್
ಕೊಡ್ಯಾಳಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಬಸ್ಸಾಂಚಿ ತಿ ಲಾಯ್ ಲೂಟ್ ರಾವೊಂಕ್ ಜಾಯ್

ಮ್ಹಾತಾರೊ ಪಳೆ ಹಾತಿಂ ದಾಂಡೊ ಫಿರಾಯೆನ್ ಕಡ್ಕಡ್ಯಾ
ಬರೊಡ್ಚಿಯಾ ಸಾಯ್ಬ್ ಫೋಲಾ ಕಂಡಕ್ಟರ್ ದಡ್ಬಡ್ಯಾ
ಪಿರ ಪೊಲೆ ದುಂಬು ಪೊಲೆ ಮ್ಹಣೊನ್ ಕಪ್ಲೊ ದಾರ್ಪಿತಾ
ತಿತ್ಲ್ಯಾ ಭಿತರ್ ಪೊಕ್ರಿ ಬೊಟಾಂ ಬಾಯ್ಲಾಂ ಕುಲ್ಯಾಂಕ್ ಖೊರ್ಪಿತಾ

ಹಾಂತ್ಲೆಂ ವೆಗಿಂ ಸುಟೊಂಕ್‌ಜಾಯ್ ಪೊಕ್ರಿಬೊಟಾಂ ಕಾಪುಂಕ್ ಜಾಯ್
ಕೊಡ್ಯಾಳಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಬಸ್ಸಾಂಚಿ ತಿ ಲಾಯ್ ಲೂಟ್ ರಾವೊಂಕ್ ಜಾಯ್

# 9. ನ್ಹವೆಂ ವರಸ್

ಫೊಟ್ಕೊಳೆಚಿಾ ಫುಲಾನಿ, ವೆಡ್ಕೊಳ್ ಮಾರ್ಲಿ ಚಂದ್ರಿಮಾ
ಪರ್ನೆ ಕಿತೆಂ, ನ್ಹವೆಂ ಕಿತೆಂ, ಆಮ್ಕಾಂ ಮಾತ್ಕಂ ಸಾಂಗ್ ಮಾಮಾ
ಕೊಣಾಕ್ ಕಾಂಯ್ ಕಳ್ಚೆ ಆದಿಂ, ಝುಡ್ ಪಿಶೆಂ ಲಾಯ್ಲಾಂ
ನ್ಹವೆಂ ವರಸ್ ಆಯ್ಲಾಂ.

ನ್ಹವೆಂ ವರಸ್ ಆಯ್ಲಾಂ
ಪರ್ನ್ಯಾ ಪಾಯಾಂಕ್ ನ್ಹವಿಂ ಜೊತಿಂ
ನಾಚ್ಲಿಂ ದಾದ್ಲೆ ಬಾಯ್ಲಾಂ
ನ್ಹವೆಂ ವರಸ್ ಆಯ್ಲಾಂ

ಫೊಟ್ಕೊಳೆಚಿ ವೆಡ್ಕೊಳೆಂತ್, ಚಂದ್ರ್ಯಾಕ್ ಕಾಂಯ್ ಗಮ್ಲೆಂನಾ
ಪರ್ನೆ ಕಿತೆಂ, ನ್ಹವೆಂ ಕಿತೆಂ ಸಾಂಗೊಂಕ್ ಝುರಿ ಜಮ್ಲೆಂನಾ
ನ್ಹವೆಂ ಕಾಪಡ್ ಹಾಡ್ಟಾ ಆದಿಂ ಪರ್ನೆಂ ಪಿಂಜುನ್ ಘಾಯ್ಲಾಂ
ನ್ಹವೆಂ ವರಸ್ ಆಯ್ಲಾಂ

ನ್ಹವೆಂ ವರಸ್ ಆಯ್ಲಾಂ
ಪರ್ನ್ಯಾ ಪಾಯಾಂಕ್ ನ್ಹವಿಂ ಜೊತಿಂ
ನಾಚ್ಲಿಂ ದಾದ್ಲೆ ಬಾಯ್ಲಾಂ
ನ್ಹವೆಂ ವರಸ್ ಆಯ್ಲಾಂ



# 10. ಮಾನ್ ನಾ

ಕಲ್ವಂತಾಚಾ ಕಮ್ರ್ಯಾವೆರಿ ಭಾಂಗಾರಾಚೆಂ ನೆವಾಳೆಂ
ನಾಕಾ ನೊತಿಂ ಗಳ್ಯಾಂತ್ ಆಸಾತ್ ಸುವರ್ನಾಚೆಂ ಗೊಸಾಳೆಂ
ತರಿ ಬಾಯೆ ತರಿ ಬಾಬಾ
ಆಯ್ಯಾ ಮ್ಹಾಕಾ ಆಯ್ಯಾ ಮ್ಹಾಕಾ
ಸಂಸ್ಕಾರ್ ಹಾಚೆಂ ಭಾನ್ ನಾ
ಚಾರ್ ಚೊವ್ಗಾಂ ಮಾನ್ ನಾ

ಗರೀಬಾಚ್ಯಾ ಗುಮ್ರ್ಯಾವೆರಿ ಸೊಭಾಗೆಚೆಂ ಗಾಯಾನು
ಬೊಟಾಂ ತಾಳ್ ಪದಾಂವ್ಹಾಳ್ ನಾಚ್ ಆಸ್ಕೆತ್ ಫಾಯಾನು
ತರಿ ಬಾಯೆ ತರಿ ಬಾಬಾ
ಆಯ್ಯಾ ಮ್ಹಾಕಾ ಆಯ್ಯಾ ಮ್ಹಾಕಾ
ಆಯ್ಯಾತೆಲ್ಯಾ ಕಾನ್ ನಾ
ಚಾರ್ ಚೊವ್ಗಾಂ ಮಾನ್‌ನಾ

ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಸ್ ಘಾಸ್ತೆಲ್ಯಾಂಚೆಂ ಮಸ್ತ್ ಜಾತಾತ್ ಸೊಭಾಗಾ
ಫುಲಾಂ ಮಾಳೊ ಗಳ್ಯಾಂ ತುರೊ ಮೊಡ್ಯಾಚೆರಿ ರುದಾನಾ
ತರಿ ಬಾಯೆ ತರಿ ಬಾಬಾ
ಆಯ್ಯಾ ಮ್ಹಾಕಾ ಆಯ್ಯಾ ಮ್ಹಾಕಾ
ಸಂಸ್ಕಾರ್ ಹಾಚೆಂ ಧ್ಯಾನ್ ನಾ
ಚಾರ್ ಚೊವ್ಗಾಂ ಮಾನ್ ನಾ



# 11. ಕಾಪ್ಡಾಂ ನಾಂತ್

ರೊಜಿಗೆರ್ ಬೊಬಾಳ್ ಜಾತಾ ರೊಜಿ ಘೊವಾಕ್ ಗಾಳಿ ದಿತಾ
ಕಾನ್ ಮ್ಹಜೊ ತಾಂಗೆರ್ ವೆತಾ ಲಜ್ ನಾಸ್ತಾನಾ
ಆಯ್ಕೊನ್ ತಿಚಿ ದುಖಾಳ್ ಕಥಾ
ಕಾಳಿಜ್ ಮ್ಹಜೆಂ ಫಾಸ್ಯೊನ್ ಯೆತಾ
ಕಾಪ್ಡಾಂ ನಾಂತ್ ನ್ಹೆಸೊಂಕ್ ಲಜ್ ಉಗ್ತಿ ಪಡ್ತಾನಾ
ರೊಜಿಬಾಯೆಕ್ ಕಾಪ್ಡಾಂ ನಾಂತ್ ರೊಜಿಬಾಯೆಕ್ ಕಾಪ್ಡಾಂ ನಾಂತ್
ಮಿಸಾಕ್ ವೆಚೆಂ ಚಾರ್ ಮಾತ್ ರೊಸಾಕ್ ವೆಚೆಂ ಚಾರ್
ರೊಜಿಬಾಯೆಕ್ ಕಾಪ್ಡಾಂ ನಾಂತ್ ರೊಜಿಬಾಯೆಕ್ ಕಾಪ್ಡಾಂ ನಾಂತ್
ಕಾಜ್ರಾಕ್ ವೆಚೆಂ ಚಾರ್ ಮಾತ್ ಬಾಜ್ರಾಕ್ ವೆಚೆಂ ಚಾರ್

ಖಂಚೊಯ್ ಘೊವ್ ಬಿರ್ಮತ್ ಪಾವಾತ್ ಕೊಣಾಚೆಂ ತೆಂ ಕಾಳಿಜ್ ರಾವಾತ್
ನಾತ್ಲ್ಯಾವೆಳಿಂ ನ್ಹೆಸೊಂಕ್ ಲಜ್ ಉಗ್ತಿ ಪಡ್ತಾನಾ
ಘೊವ್ ತಿಚೊ ಬೆಜಾರ್ ಜಾತಾ
ವ್ಹಡ್ಲಿ ಏಕ್ ಥಯ್ಲಿ ಘೆತಾ
ಉಟಾಉಟಂ ಬಾಜ್ರಾಕ್ ವೆತಾ ಘೆಳಾಯ್ ನಾಸ್ತಾನಾ.

ಬಿರ್ಮ್ಯಾಲಾಗಿಂ ರೊಜಿ ವೆತಾ ಬಿರ್ಮ್ಯಾ ಭಿತರ್ ದೀಷ್ಟ್ ದಿತಾ
ದೊಳೊ ಮ್ಹಜೊ ತಾಂಗೆರ್ ವೆತಾ ಲಜ್ ನಾಸ್ತಾನಾ
ಕಾಪ್ಡಾಂ ಆಟ್ಲಿ ಲಕೊನ್ ಗೆಲಿ
ಮಾತ್ಯಾರ್ ಪಡೊನ್ ರೊಜಿ ಮೆಲಿ
ಘರ್ಯಾರ್ ತಿಚೊ ಕಾಪ್ಡಾಂ ಘೆವುನ್ ಘರಾಂತ್ ಪಾವ್ತಾನಾ.

# 12. ಮಾಣ್ಕ್ಯಾಂಚೆಂ ಲಿಸಾಂವ್

ಹಾಂವ್ ಸಾಂಗೊಂಕ್ ಆಯ್ಲ್ಯಾಂ ಕಾಣಿ
ಜಾಂವ್ ಆಯ್ಕ್ಯಾತಲಿಂ ಶಾಣಿ
ಆಯ್ಕಾ ದೆಕುನ್ ಧ್ಯಾನಿಮನಿ ದೊನೀ ಕಾನಾನಿ
ತ್ಯಾ ಗಾದ್ಯಾಂಚಾ ಮೆರಾನಿ
ಬೊಬಾಳ್ ಕೆಲಿ ಮಾಣ್ಕ್ಯಾನಿ
ವಾದಾಳ್ ಉಟವ್ನ್ ರಾನಾಂ ವನಿಂ ಚಾರೀ ದಿಶಾನಿ.

ಡರಾಂವ್ ಡರಾಂವ್ ಡರಾಂವ್ ಆಮಿ ಡಿಸ್ಕೊ ನಾಚೊತಾಂವ್
ಕೊಗ್ಳಿಬಾಯೆರ್ ಕಂತಾರ್ ಕಳ್ನಾ ಆಮಿ ಶಿಕಯ್ತಾಂವ್
ಡರಾಂವ್ ಡರಾಂವ್ ಡರಾಂವ್ ಆಮಿ ಕಂತಾರ್ ಶಿಕಯ್ತಾಂವ್
ಸೊಲ್ಫಾಂ ಉತ್ರಾಂ ಮೊಳ್ಬಿಂ ಕಶಿಂ ಆಮಿ ದಾಕಯ್ತಾಂವ್.

ತ್ಯಾ ಆಂಬ್ಯಾ ರುಕಾ ತೆಣೆ, ಗಾಯನ್ ಗಾಜಯ್ಲಂ ಕೊಣೆ ?
ತಾಳಿಯಾಂ ಮಧೆಂ ವಾಜ್ಲಂ ವಿಣೆ ಗೊಡ್ಯಾ ಗುಣಾಂನಿ
ಕುಹುಕುಹುಕುಹು ಕಾಳಿಜ್ ಕಾಂಪ್ತಾಗೆ ಲೋವ್
ಆಯ್ಕೊನ್ ಥೊಡೆ ಮಾಣ್ಕೆ ಬೋವ್ ರಡ್ತಾತ್ ಶಿಣಾನಿ.

ಕೊಗುಳ್ ಎಕ್ಸುರೆಂ ಬಾವ್ಲಂ ಆಯ್ಕೊನ್. ಲಜೆನ್ ತೊವ್ಲಂ
ಪಾಕ್ಟೆ ಫುಲವ್ನ್ ಆಕಾಸಾರ್ ಪಾವ್ಲಂ ದೊನ್ಂಚ್ ಖಿಣಾನಿ
ಹಾಂಗಾ ಸಂಪ್ಲೆಲಿ ಕಾಣಿ ಆಯ್ಕ್ಯಾತಾತ್ ದೊನಿ ಕಾನಾನಿ
ಎಕ್ಸುರ್ಯಾ ಶಾಣ್ಯಾರಕ್ ಲಾವ್ಯೆತ್ ವಾಟೆರ್ ಪಾಂಯ್ಮಿಂ ಪಿಶ್ಯಾನಿ.

# 13. ಡಾಯ್ನಾ ಬಾಯ್

ಓ ಡಾಯ್ನಾಬಾಯ್ ಕುಜ್ನಾಂತ್ ನಾಚ್ತಾ
ಹಾಂಬ್ಯಾ ಪೊಟಾಂತ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್‌ಗಾ ಲಾಸ್ತಾ?
ಘಾಗ್ರೊ ತಿಚೊ ಖಾಡ್ಕೆ ಪರ್ಯಾಂತ್ ವಯ್ರ್ ಉಬ್ತಾ
ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಗಾಂವಾರ್ ಖಬರ್ ಗಾಜ್ತಾ.

ಆಮೊರೆಚೆರ್ ಕುಂಪಾರ್ ತಿಚೊ ಆಯ್ಲೊಲೊ ಗುಟಾನ್
ಎಕ್ಲೊ ಮ್ಹಣ್ಟಾ ಚೊವ್ನಾ ವೆಚೊ ರಾವ್ಲೊಲೊ ಹಟಾನ್
ದುಸ್ರೊ ಮ್ಹಣ್ಟಾ ಕುಂಪಾರ್ ಆಂಕ್ವಾರ್ ತಶೀಚ್ ಡಾಯ್ನಾಬಾಯ್
ದೊಗಾಯ್ಕ್ ಜರ್ ಬುರ್ಗಿಂ ಜಾವ್ನಾಂತ್ ಕುಂಪಾರ್ ಕಸೊಕಾಯ್?

ತಿಸ್ರೊ ಮ್ಹಣ್ಟಾ ಬೆಜ್ಮೆಂತಾಕ್ ಆಜ್ ಪಾದ್ರ್ಯಾಬ್ ಆಯ್ಲೊಲೊ
ಕುಜ್ನಾಂತ್ ತಾಣೆ ಎಕಾಮೆಕಾಕ್ ದೊಳೊ ಲಾಯ್ಲೊಲೊ
ಆಂಕ್ವಾರ್ ಹಾತಾನ್ ಆಂಕ್ವಾರ್ ಬಾವ್ಲ್ಯಾ ಬರೊಚ್ ಚಿಡ್ಲೊಲೊ
ಬರೆಂ ಬುರ್ಗೆಂ ಜಾಯ್ಜ್ ಮ್ಹಣುನ್ ಪೊಲೊ ಮುಡ್ಲೊಲೊ

ತಿಚ್ಯಾ ಪಾಯಾನ್ ನಾಚ್ತಾ ಬಾವ್ಡೀ ಮ್ಹಾಕಾ ವೊಳಾನಾ
ಆಯ್ಲೊ ಗೆಲೊ ಲಾಂಬಯ್ ಗೊಮ್ಟೀ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಕಳಾನಾ
ಗಾಂಯ್ಡೊಳಾಚ್ಯಾ ತೊಂಡಾಂತ್ ಕೆದಿಂ ಮೊತಿಂ ಗಳಾನಾ
ನಾಚ್ಗೀ ಬಾಯೇ ನಾಚ್ಗೀ ಬಾಯೇ ಸಂಸಾರ್ ಜಳಾನಾ.



# 14. ಸಾಳ್ಕ್ಯಾಚಿ ಪಾಕ್ಶಿ

ಸಾಳ್ಕ್ಯಾಚಿ ಪಾಕ್ಶಿ ಭೆಜ್ ದೀಂವ್ಕ್ ಲಾಗ್ಲಿ
ಹಾಂವ್ ತಳ್ಯಾಂತು ನಾತಾನಾ
ಲಜ್ ಮ್ಹಾರಾ ದಿಸ್ಲಿ ತಾಳ್‌ಯಾಂಚ್ಯಾ ಇಡ್ಯಾನ್
ಚಂದ್ರೆಮ್ ತಿಳ್ಟಸ್ತಾನಾ

ಪಯ್ಸಾಪಯ್ಸಿಲ್ಯಾನ್ ಆಂಬ್ಯಾಚ್ಯಾ ಬೊಲ್ಯಾನ್
ಕೊಗ್ಳಿನ್ ಪಿರ್ಲ್ಲುರ್ ವಾಜ್ಲಿ
ಪಿರ್ಲ್ಲುಕೆ ನಾದಾನ್ ಮೊಗಾಚ್ಯಾ ಸಾದಾರ್
ಶಿರ್ಶಿರೊ ಯೆತಾನಾ

ಲಿಪ್ಲೆಲ್ಯಾ ಮೊಗಾ ಸಾಳ್‌ರಾಚ್ಯಾ ಜಾಗ್ಯಾರ್
ತುಂ ಜರ್ ಮ್ಹಜೆಸಂಗಿಂ ಆಸ್ಲೊ
ಸರ್ಗ್ ಆನಿ ಸಂಸಾರ್ ತಳ್ಯಾಚಾ ಉದ್ಕಾರ್
ಏಕ್ ಜಾತೊ ಕೊಣ್ಣಾ



# 15. ಹಾಂವ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಮೆಲೊಂ

ಕೊಣಾರ್ ಸಾಂಗೊ ನಾಕಾ
ಮ್ಹಜಿ ಗುಪಿತ್ ರಾಕಾ
ಹಾಂವ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಮೆಲೊಂ
ಕೊಣ್ ತರೀ ದೋನ್ ಥೆಂಬೆ ಒತುನ್ ದಿತಾಲೆ
ತೆನ್ನಾಂ ಜಿವಾಂತ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಆಜಾಪ್ ಜಾತಾಲೆಂ
ಪರ್ತ್ಯಾ ಪರ್ತುನ್ ಜೀವಂತ್ ಜಾಲೊಂ
ಹಾಂವ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಮೆಲೊಂ

ಬೆಬ್ದೊ ಮ್ಹಣ್ ವೊಲಾವ್ನ್ ಮ್ಹಾಕಾ ತುಮಿ ಪುರ್ತ್ಯಾ
ಸೊವ್ಯಾ ಶಿರಾಪಾನಿ ಮಾತ್ಕೈರ್ ಪಾಯ್ಲ್ಯಾ
ಕೊಣೀ ಹೆಂಡೊ ಮ್ಹಳೊ
ಕೊಣೀ ಬೆಬ್ದೊ ಮ್ಹಳೊ
ಹಾಂವ್ ತಾಲೆಂತಾಂ ಲಿಪಯ್ತ್ ಗೆಲೊಂ
ಹಾಂವ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಮೆಲೊಂ

ಸಂಸಾರ್ ಹೊ ಆಜೂನಿ ಪಾತ್ಕ್ಯಾಂತ್ ಲೊಳ್ಟಾ
ಸಲ್ವಣ್ಕ್ಯೊ ಲುಕ್ಸಾಣಾ ಮಾತ್ಯಾರ್ ಮಾಳ್ಟಾ
ಮ್ಹಾಕಾ ಉಟೊಂಕ್ ಲಾಯಾ
ಇಲ್ಲೊ ವೊತುನ್ ದಿಯಾ
ಪಾತ್ಕ್ಯಾಂ ಲುಕ್ಸಾಣಾಂತ್ಲಿಂ ಸುಟಯ್ತಲೊಂ
ಹಾಂವ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಪಿಯೆವ್ನ್ ಮೆಲೊಂ



